दोन आंकी कोंकणी विनोदी नाटक

# मेलो उल्लो एकूच ...



बाबा प्रसाद

दोन आंकी कोंकणी विनोदी नाटक



# मेलो उल्लो एकूच

बाबा प्रसाद

बाबा प्रसाद प्रकाशन

उजडावपी
बाबा प्रसाद प्रकाशन
व्दारा हरीश्चंद्र उपासो नाईक
परके भाट करमळी
तीसवाडी - गोवा. ४०३ ११०

पयली आवृती
मार्च २००८

छापपी
महालक्ष्मी ऑफसेट प्रीन्टर्स
ओल्ड गोवा.
फोन : (०८३२) २२८४६६७

मुखावयले चित्र
बाबा प्रसाद

मोलः ६०.०० रु.

लेखकाचो नामो!
बाबा प्रसाद
परके-भाट
करमळी-तिसवाडी ४०३११०
फोनः २२८४३१५/९३२६१२८५४८/३२५०५४७



एक महान व्हड नाटयकर्मी, महान, नाटय दिग्दर्शक जांची तोखणाय मा दत्ताराम, डॉ सतीष दुभाषी नामणेचे कलाकार करी जायत्या नाटय कलाकारांक मोलाचे मार्गदर्शन करुन यशाच्या पांवडयार दवरपी, दिव्या सारखो स्वता सकयल काळोख दवरुन दुसऱ्यांक उजवाड दिवपी, प्रसिध्दी सांवन सामको म्हळयार सामकोच पयस रावपी, दर्या सारखे व्हड काळीज मन आशिल्या म्हज्या पापाक

''स्व श्री रोहीदास उर्फ उपासो नायक शिरोडकर''

हांका हे नाटक ओपता .

बाबा प्रसाद

## मेलो उल्लो एकूच या नाटकाच्या पयल्या प्रयोगात वाटो घेतिल्ल्या कलाकारांची नामावळ.

| | |
|---|---|
| मामा | : निलेश शांताराम नाईक |
| सूखा | : रोहन खांडेपारकर |
| रामा | : निलेश गजानन नाईक |
| विठू | : रमेश गडेकर |
| पात्रांव | : सिध्दार्थ दिवाडकर |
| चान्ने | : प्रतिक्षा नायक |
| दिग्दर्शक | : बाबा प्रसाद |
| पार्श्व संगित | : अविनाश कुडास्कर |
| आवाजा येवजण | : विश्राम सरदेसाय |
| उजवाडा येवजण | : आनंद शंभू नाईक |
| नेपथ्य | : बाबा प्रसाद |
| रंगभूषा | : नरेंद्र रमाणी |
| वेशभूषा | : अनिता नाईक |

# आंक पयलो

## देखावो पयलो

(*माचयेर एका गरीब थंवय मेस्ताचे घर. भायर वचपाचो दरवाजो सामको मधी, दाव्या वटेन किचनाचे दार. उजव्या वटेन बेडरुमाचे. मोदेर, लाकूड, आनी थवयांची अवजरां दिसता. भायल्यान सुखा उलो मारता. मामा... ओ.. मामा..*)

मामा : कोण सुखा रे? पापया यो यो दार उघडेच आसा. (*सुखा प्रवेश करता*) यो यो बस. किर्ते खबर?

सुखा : मामा.. जाता मरे कामां..? अवंदू तरी पावसा पयलीं मातर्छे आमच्या घराचें काम करुया मरे? पोंरु शिंवपाचे उल्ले तें उल्लेंच. पावसान पोरुं म्हाका दुसऱ्यागेर न्हिदचो पडलो.

मामा : या वर्सा तूज्या घराचो मोदेरमेत शिवर करुया. रोकडेच आताच करुया कोमेस. फाल्याच करुया कोमेस. पूण मातसो थोडे दिस राव. तो टॉयस मेकर फक्टरीचो पात्रांव परतो परतो येता. ताची आलमार आसा करपाची.

सुखा : मामा तो पात्राव कितल्यो आलमारी करता रे? पोरुच्यान तो आलमारी करीत आसा मरे? पन्नासेक तरी जातल्यो न्हय?

मामा : ना रे ताणे पोरुं आलमार करपाक दिल्ली, करुंकूच पावूना. रांता करता म्हणसर रोकडोच टायम जाता. आळस येता. आयज करतलो फाल्या करतलो अशें करता करता वर्सां वता. दुसऱ्या कोणाचो आधार ना न्हय रे? सांगातीण खंय आसा?

सुखा : मामा तूजो भाचो सामको लिप बेकार. ताका सांग थोडो आधार दिवपाक.

मामा : ताका? दिलो आधार ताणे... ताकाचं हांवें आधार दिवपाचो. ताचो फुडार कसो जातलो कांयच कळना. गांवार भोंवन दिस काडटा. हांली हांली चडूच जालां ताचें फाटल्या दिसानी थोडो दितालो आधार. पाडेलपण करुन आपल्या कपडयापाणयाची वेवस्था करी तो.

सुखा : कितेंय सांग मामा तूजो भाचो सामको कास्ताद पाडेली. सामको उमलो कसो माडार चडटा. तूरु तूरु सूर..S..S.. मामा तूवें ताची खबर आयकल्या..? ताची खबर आयकून तूज्या कपलाक आटयो पडटल्यो. मामा तूजो भाचो रामा, त्या तिडकीकार विठूच्या धाकटया निमाण्या पांचव्या चलयेच्या मोगान करपता.

मामा : (*दचकोन*) आब्बा मोग करता? आनी तोय भि त्या चामटया तिडकीकार विठूच्या चलयेकडे? तोय भि सगळयांक सोडून धाकटया चलयेकडे? आरे पूण म्हाका ही गजाल कशी समजूना रे?

सुखा : मामा मोगाच्यो गजाली घरच्यांक सदांच लास्ट कळटा.

मामा : शि.. हाका आनी कित्याक मोग रे तो? मंसणाक घालूंक? बेकार मनीस काम ना धंदो. बोलसांत ना दमडी. आनी खावपाक सोदता कोंबडी. म्हाका सांग तो मोग करता हें तूका केन्नाच्यान समजलें रे?

सुखा : तो विठू कोयतो घेंवन नाचपाक लागलो तेन्नाच्यान.

मामा : (*भियेवन*) पूण तो कोयतो घेंवन कित्याक नाचता रे?

सुखा : तो रामाक कातरुंक करता.

मामा : (*भियेवन*) शि.. शि.. पाड पडू मरे त्या मोगाक. शि... इतले दिस म्हाका कांयच खबर ना मरे.

सुखा : तशे जाल्यार या दिसांनी रामा गांवात कसो भोवता. खंय चडटा तूका कितेंच खबर ना तर. खबर सामकी वायट आसा मामा.

मामा : खंय चडटा मळयार?

सुखा : मामा या दिसानी तो माडारुच चडटा.

मामा : ही तर बय्राची खबर मरे. एका माडार चडपाक तो पंचवीस रुपया घेता. आता रेट वाडयल्या शि दिसता. कष्ट करप वायट गजाल?

सुखा : आयस सायबा म्हज्या. मामा तूका कांयच खबर ना. आता तूका सारखी गजाल सांगचीच पडली. ना जाल्यार तो विठू? आंसू.. पंयली तूका कितें जालें तें सांगता. जाले पंधरा दिस

मायज या गजालीक. दसऱ्या दिसा वीठू सिमेर खेत्र मारपाक गेला ते पळोवन घरान कोण ना तें पळोवन विठूली चली आनी रामा घरानूच गूलू गूलू मोग करपाक लागलीं. विठू कोमो मारुन अकस्मात घरा आयलो. पळय जाल्यार घरांन हो कोमो आसा. तोच कोयतो घेंवन विठू या कोम्याच्या फाटीक लागलो. रामा फुडे विठू फाटी. धूडूम..धूडूम.ऽऽ..

मामा : (*भियेवन*) म्हज्या बाप्पाय. मागीर रे?

सुखा : मागीर कितें हो आमचो कोमो धांवून वचून सामको सूर.. ऽऽ.. करुन माडार वयर माडाच्या कोवळांत, रामा माडाच्या कोंवळांत बसना फुडें विठून परत्या पायांनी माल्लीं धांव.

मामा : कित्याक रे? धांव माल्ली?

सुखा : रामा नाल उडयता रे वैल्यान. विठूच्या तकलेर एकूच नाल पडत जाल्यार विठू कोयत्यो सकट शेण्टलो.

सुखा : मामा. रामा चडसो माडारुच बसून आसता.

मामा : माडारुच कित्याक रे पापया?

सुखा : (*रागान*) कितें रे मामा तू? कसले प्रश्न विचारता? तो माडारुच आसतलो न्हय? सकयल विठू कोयतो घेंवन आसता मरे.

मामा : गांवांत भोंवपाक रामाक सामकी भिरांत मरे?

सुखा : ना रे मामा तू टेन्शन घेंव नाका. गोयांत रामाक कसलीच भिरांत ना. हांगा पावलां गणकणी माडूच माड.

मामा : आरे पूण पापया. सदांच माड लागीं मेळटा अशें ना. शि. ... शि... काळीज कलकलपाक लागलें मरे. आता खंय आसतलो रे रामा?

सुखा : विठू कोयतो घेंवन आसल्यार माडार आसतलो खंयच्या तरी. तू कांयच चिंता करु नाका.

मामा : चिंता करुं नाका? ताणे एकदा आपले व्हडल्या चलयेची फकणां केल्या म्हण कोयत्याचो धपको घातील्लो एका गांठयाचेर.

सुखा : तो गांठी माडार चडपाक नकळो आशिल्लो दिसता.

मामा : सुखा रामाक सांग मातसो दिसा उजवडा घरा वच म्हण. या दिसानी तो घरा येंवपाक चड रात करता. पयरच्या रातीं घरां येंवकूच ना तो.

सुखा : पयर हो नाल्ल नाशिल्या माडार चडलो. विठू रातभर माडामुळांतच रावलो कोयतो घेंवन. सकाळी विठूक दोन नंबर जालो म्हण रामाक घरा येंवपाक चान्स पडलो. आनी मामा, रामा घराकडे येंवन माडार चडून बसता म्हण आपल्या घराभोवतणचे सगळे माड कापून उडयले त्या विठून.

मामा : सुखा, काळजाक धक्को बसता मरे. तो विठू धड न्हय. पळय कशे माड कापून उडयले ताणे. ताका माड आनी रामा एकूच. रामाक मातसो समजाय. सांग ताका त्या चलयेचो नाद सोड म्हण.

सुखा : मामा हे तू कितें पीशेपणा उलयता? मोग तो. मोगाक समजोवणी बिमसमजोवणी कांयच लागना. मामा ताका आमी समजावच्या भानघडीत पडचे न्हय. कितेंय तरी आयडिया करुन ताका त्या विठूच्या चलयेसांवन पयस करुया. आमी कितें आयडीया करुया जाणां मामा?

मामा : नकळो सांग.

सुखा : आमी आयडिया करुन रामाक विठूच्या चलये सांवन पयस करुया.

मामा : बरे आसा सांग आयडीया.

सुखा : आमी एक आयडीया करुया आनी विठूची चली रामाक सोडून दुसऱ्याकडे मोग करता अशें करुया. मागीर विठू, जो कोण दुसरो विठूच्या चलयेकडे मोग करता ताच्या फाटल्यान लागतलो. मागीर रामा सुटलो. (मामा सामको बेजार जाता) ना जाल्यार मामा दुसरी आयडिया करुया रामाचे दुसरे चलयेकडे जमोन दिवया. उपरान विठूची चली आपसूकूच पयस जातली.

मामा : सुखा म्हाका सांग तूवें खंयच्यान हाडल्या यो आयडिया?

सुखा : मामा म्हज्यकडे तसल्यो जायत्यो आयडिया आसा.

मामा : म्हाका सांग तू आयडियेन रामाचे दुसऱ्या चलयेकडे कशे जमोन दितलो?

सुखा : ताकाय आयडीया आसा मामा.

मामा : (*रागान*) चूप. ओगी बस पळोवया. तू आता चल पळोवया रामा खंयच्या माडार आसा तो पळोवन यो. तूज्यो हयो आयडिया म्हाका मानवना.

सुखा : मामा राव रे आयक. म्हजेकडे जायत्यो आयडीया आसा.

मामा : नाका रे तूज्यो त्यो आयडिया.

सुखा : मामा आयक तरी...

मामा : नाका. तूज्यो आयडिया इतल्यो नाका. कसलीय युक्ती जाल्यार सांग

सुखा : बरे आसा मामा. आता आमी कांयच आयडिया करची न्हय. आता आमी एक युक्ती करुया.

मामा : सुखा मातसो ओगी राव पळोवया. त्या विठूक तू ओळखता? ताका कसल्योच आयडिया बियडिया कोंताय येंवपाच्यो ना. तो पयश्याक सामको चामटो. पयशाची भयंकर आस ताका. आरे तो चामडी दिवपी पूण दमडी दिवपी न्हय. आरे तो पयश्याकार जावूंय सोदता. ताका आनी कांयच नाका. रामाकडे पयसो आसत जाल्यार ताका कसल्याच आयडियेची गरज ना. हांव त्या विठूक पूराय ओळखता. पयसो आशिल्यो कसलोय लूळो पांगळो लेगीत जांवूय ताका पसंत. ताका जाय फकत पयसो.

सुखा : तशे जाल्यार एक आयडिया करुया तर.

मामा : सांग.

सुखा : रामाक पयश्याकार करुया. मामा पिक्चरान आसा ही आयडिया. मोगाक लागून श्रीमंताचे नाटक करप. (*इतल्यान रामा धांवत प्रवेश करता. भितर वचून कोयतो घेंवन येता आनी भायर वचपाक करता. मामा, सुखा ताका आडयता*)

सुखा : आरे रामा कितें जालें रे?

रामा : आयज हांव कापता. देवाच्यान कापता.

मामा : आरे कोणांक कापता?

रामा : त्या विठूचे चड जालें. म्हजे पासीयस सामके काबार केले ताणे.

मामा : आरे रामा.. पिश्यापणा करुं नाका.

रामा : ना मामा. आयज म्हाका कांपूकूच जाय. हांव माडार चडटा म्हण त्या विठून सगळया भोंवतणच्या माडाच्या मुळांत काटयो घातल्या त्यो काटयो म्हाका कांपूकूच जाय.

मामा : आरे रामा.. तूका सांगता बऱ्यान.

रामा : सगळें मागिर सांग मामा. आता म्हाका टायम ना. तो विठू सध्या ना. तेन्ना काटयो कापूंक होच टायम आसा. तो येत जाल्यार काम फेल वतलें. (*धांवता*)

मामा : देवा हांचे रक्षण कर रे सायबा....

## देखावो दुसरो

विठू : (*रागान*) ए मामा. रामा खंय रे... घालता धपको ताचेर.ताणे म्हजे पासीयेस सामकेच काबार केले. काल पळयलें मरे हांवे म्हज्या घरा कुशीकच्या माडाक क़ांटयो घाल्यो हो त्यां माडाचेर रावून म्हज्या चलयेक सिग्नालां करता म्हण. हाणें काल कोयतो घेवन हांव ना तें पळोवन त्यो काटयो कापून उडयल्यो. आता म्हाका सामकोच राग आयला. आता पळय ताका धपक्याक फराशीक दुर्गा कुशीक.खंय रे तो चोर?(*विठू कोयतो घेंवन रामाक सोदता*) हांवेन माडाक काटयो घालपाक मानायाक दिसोडो फारीक केलो. आनी या चोरान हांव ना तें पळोवन काटयो बेणंयल्यो. आतां हांव हाका बेणंयता.

मामा : विठू बाब मातछो शांत जा. कोयतो कुशीक दवर. तूज्यो काटयो हांव घालून दिता. जाय जाल्यार दोन माडांक सूबेज घालता.

विठू : आनी तूज्या सुबेज भाच्याचें कितें करता सांग.

मामा : पयलीं मातसो कोयतो कुशीक दवर. धार चड आसा त्या कोयत्याक.

विठू : काडल्या ती हांवें. सांग भाच्याचें कितें करता?

मामा : सांगता रे पूण कोयतो मातसो कुशीक दवर. चकचकता मरे तो.

विठू : (*कोयत्याक कुशिक दवरुन*) सांग तूज्या भाच्याचें कितें करता?

मामा : हांव कितें करतलों? करपाक कोयतो घेवन तूच आयला न्हय रे? तूवें कितें करपाचे चितलां ताचे खतखतें?

विठू : तूजेर घांलू धपको? म्हाका राग हाडूं नाका आं...

मामा : म्हळयार म्हजें खतखतें करता? राव रे राव. बेष्टोच तापार जांव नाका. हांव रामाक समजायता. सांगता ताका मोग केला तो पूरो म्हण. तूं तूजेय चलयेक सांग रामाक येत जाल्यार घरान घेंव नाका म्हण.

विठू : बरें. आता जालें मरें? फायनल मरे हें? हांव म्हजे चलयेक परत आनी एकदा समजायता. तू रामाक समजाय... बरें वयता हांव.

मामा : विठू बाब. ताका हांव समजायता खरो. पूण तो आयकना जाल्यार तू तूज्या चलयेक सारखें समजाय.

विठू : घालूं धपको? मामा तूजो भाचो परत जर आमगेर येत जाल्यार ताचेर धपको पडलोच म्हण समज.. (*इतल्यान रामा भितर सरता. विठूक पळोवन परत भायर धावता. विठू ताच्या फाटल्यान धावत परत भितर येता.*)

विठू : शि.. माडार चडलो मरे तो.... मामा...

मामा : मागीर हांव कितें करु?

विठू : घालू धपको?

मामा : म्हजेर धपको घालून तुका कितें फायदो?

विठू : म्हाका मातसो थंय लेगीत सोड. यो म्हज्या वांगडा. तो माडार आसा म्हजेर नाल उडयतलो. चल यो....

मामा : नारे. तो नाल उडोवचोना. चल तूं.

विठू : घालूं धपको? तू जाणा उडोवचोनाा म्हण? म्हाका कितल्या पावठी धांव मारची पडल्या तूका खबर आसा? दोन पावठी वाटवलां हांव देवाच्या कृपेन. सामको कुसकुटाक चुकलां हांव.

मामा : ना रे या माडाचो नाल तो उडोवचोना.

विठू : कित्याक उडोवचोना? मामा तू मोठो चाप्टर आसा. मामा भाचे घातकी तुमी.

मामा : त्या माडाक नाल ना रे विठू बाब.

विठू : हांव वता तर. पूण तू तूज्या भाच्याक समजायता मरे?

मामा : हय. हय... हांव सांगता ताका. राव आताच सांगता. राव माडावयलो आफयता ताका.

विठू : आफय.

मामा : पूण एक तूजो कोयतो कुशिक दवर. उलवणी करुया. सामकी

समोरा समोर उलवणीं करुया मनश्यासारखी.

विठू : चल.. आफय ताका. कोयतो कुशीक. घे तुजेकडे दवर.

मामा : शाब्बास..... (*मामा कोयतोच घेंवन भायर वता. भायर रावून मोठ्यान*) रामा सकयल देंव.

रामा : मामा. तूंय कोयतो घेंवन लागलो म्हज्या फाटीक? म्हजो मांव कोयतो घेंवन म्हाका रावला.

मामा : ना रे. तूज्या मावांकडल्यान हांवें कोयतो काडून घेतला. हो पळय कोयतो. तूका तो उलोवणी करपाक आफयता. (*विठू रागान तांबडो जातां*)

रामा : उलवणी करपाक? शाब्बास. वेरी गुड. येयलो येयलो. मामा कोयतो दिव नाका आं..SS.. म्हज्या मावांकडे.(*मामा भितर सरतां*)

विठू : (*रागान*) हे मामा.. हांव कोणाचो मांव?

मामा : विठू बाब. कांयच मनार घेंव नाका. आता उलवणी करुन थारावया. कोण जांवूय कोण मांव तो?

विठू : (*रागान*) कोयतो दी पळोवया मामा. हातान कोयतो ना ते पळोवन तूमी माथ्यार बसले मरे?

मामा : विठू बाब पळय.. तो परतो माडार चडटलो. ताका समजावया न्हय...

विठू : बरे आसा... तो समजना जाल्यार कोयतो दी. (*रामा प्रवेश करता. भियाल्लो आसा*)

मामा : यो रे यो... बस. आता हांव सांगता तें आयक.

रामा : सांग मामा...

मामा : रामा म्हाका सांग तूका या विठूची चली जाय ओ या विठूच्या कोयत्याचो धपको जाय?

रामा : कोयत्याचो धपको? कोयत्याचो धपको ना. अशे सांगता म्हण हांव माडावयलो सकयल देवलां.

मामा : म्हण्टकूच विठू ताका कोयत्याचो धपको नाका. जालें मरे मिटलें चल तू आतां?

विठू : मिटलें? फकत कोयत्याचो धपको नाका म्हणल्यार मिटलें?

म्हजी चली चान्याचो नाद सोड म्हण सांग ताका.

रामा : पूण मामंजी?

विठू : मामंजी? मामा कोयतो दी? हातान कोयतो ना ते पळोवन मामंजी?

रामा : पळय विठू बाब. आमची ही तहाची उलवणी चलता. या वेळार शस्त्र बंदी घालप गरजेचे आसा.

विठू : म्हजे पासीयेस काबार जायत जाल्यार म्हाका शस्त्र बंदी, अस्त्र बंदी कांयच लागनां. हांव मामंजी? मामंजी तूजो बापूय..

मामा : राव राव विठू बाब हांव सांगता ताका. हे पळय रामा. हो तूजो मामंजी मांव, सासपाय, सासरो अजून जांवना. हाच्या चलयेकडे तूजे लगीन जायत जाल्यारुच मामंजी.

रामा : बरे मामा आता म्हणना मागीर म्हण्टा.

विठू : मामा तो कोयतो दी पळोवया. कोयतो नासतना मात्तूय भियेना हो.

मामा : विठू बाब राव रे पयलीं उलवणी तरी जांवनी? पळय रामा, तू या विठूच्या चलयेकडे मोग करपाचो सोडून दी. ताका चोरयां मेळपाचे सोडून दी.

रामा : हय मामा. हांव रोकडोच ताका चोरयां मेळपाचे सोडून दितां. ताचेर चोरयां मोग करपाचो सोडून दिता. पूण तें सगळें (*विठूक बोट दाखवोन*) या मामंजीचेर चूक जाली या भाऊच्चेर आसा. हाणें एकूच परमीशन दिवपाक जाय.

विठू : किर्ते हांव परमीशन दील्यार तु ताका चोरया मेळपाचे, चोरुन मोग करपाचे सोडून दिता? शाब्बास. सांग कसलें परमीशन• जाय. दिले म्हण समज. सांग मरे माग परमिशन.

रामा : परमीशन आमकां लगीन जावपाचे.

विठू : मामा कोयतो दी.. दी रे कोयतो. कोयतो हातान आसल्यारुच हो सारखे उलयता

मामा : आरे राव. राव रे.. आरे तू परमीशन दिना म्हण सांग.

नाचता कित्याक? उलवणी सारखी जांवनी.

विठू : ना दिना परमीशन. तू म्हज्या हातान कोयतो दी आनी ताका परमीशन मागूंक सांग ताका. पळोवया.

मामा : आरे कोयतो कित्याक? परमीशन दिना मरे. जालें तर. रामा तूमकां लग्नाचें परमीशन ना.

रामा : म्हण्टकूच आमी चोरुन...

विठू : मामा. तू कोयतो दिता काय ना सांग... (*रामा धांव मारता*)

मामा : माल्ली मरे धांव ताणे? आ... काय बरो ताका हांव कुशीन काडपाचो. आरे मोगान पडलेले मोगी पयली पयलीं तशेच वागता. कशेच आयकना पिक्चरान पळय ना तू? उपरान आयडीया करुन ताका कुशीक काडप आसता.

विठू : पळोवया तू कसो कुशीन काडटा तो? तशें जाल्यार आफय ताका....

मामा : राव पळयता खंयच्या माडार आसा तो (*भायर वयता, परत येता*) विठूबाब म्हाका दिसता तो चडूच पयस गेलो.

विठू : बरे आसा वतां हांव. ताका समजाय सारखो. गरज पडल्यार उलवणी करपाक येता हांव. पूण कोयतो घेंवन ताका सांग म्हाका पयश्याकार जांवूय जाय. बेकार तवनाशी पाडेली नाका. वता हांव. (*कोयतो घेंवन*) दी तो कोयतो (*रागान वयता*)

मामा : रामा यो यो... त्या कोंमडेच्या गुडान सुर्वो कुकुडसो आसा. खाल्लो मरे? तूका सांगता बऱ्यान. बऱ्यान त्या विठूच्या चलये सांवन कुशीक राव. त्या चलयेक मेळपाचे सोडून दी. आता विठू चडूच बेजार जाला. तुजेर तो धपको घालतलोच. ताचो एकूच धपको पूरो तूका.

रामा : ना मामा जो मेरेन माड आसा तो मेरेन विठूचो कोयतो म्हजे कांयच करपाक शकना. ताचो धपको ताकाच.

मामा : आरे पूण तूज्या रागान तो म्हजेर धपको घालीत मरे? तू माडार चडटा. हांव कोणाचेर चडोंव. म्हाका झाडारुच

चडपाक जमना.

रामा : तशे जाल्यार मामा तुंय माडार चडपाक शिक. कित्याक तर मामा हांव म्हज्या चान्न्याक सोडपाक शकना. मामा आमी दोघांय लगीन जातलीं मळयार जातलीं.

मामा : म्हाका सांग विठूले चलयेक माडार चडपाक कळटा?

रामा : ताका कित्याक? धपको म्हजेर न्हय?

मामा : मागीर लगीन जाल्या उपरांन तू माडार आनीं तें सकयल अशें कशें जातलें? सारखो विचार कर आनी नाद सोड त्या चलयेचो.

रामा : सारखें मामा. म्हाका विचार करचोच पडलो.

मामा : शाब्बास कसलो विचार?

रामा : ताकाय माडार चडपाक शिकोवपाचो. (*इतल्यान चान्ने धावत येता*)

चान्ने : रामा..रामा.. चल यो बेगीन..

रामा : आगो चान्या तू हांगा आनी या वेळार? आगो जालां कितें? चान्न्या सांग कितें जालां? तूजे हे हाल म्हज्यान पळोव न्हजो. मामा मामा.. पळयता कितें हाका पिवपाक तरी हाड कितेंय, सामकें जाम जालां.. प्रिये कितें ही तूजी दशा?

चान्ने : म्हजी दशा बरी आसा? चल रामा आमी आयच्या आयज सामकी शास्त्रोक्त पद्‌तिन लगीन जावया. हांवेन त्या हरी भटाकडे उलवणी केल्या. हरी भट पांच हजरांनी आमचे लगीन लांवन दिवपाक तयार आसा. हांवें शेटीक मणी तयार करुन दवर सांगला फकत पंधरा हजार ताका फारीक करपाचे.

रामा : आगो पूण तूजो बापूय?

चान्ने : तो आताच मुंबय वचपाक भायर सल्ला. चार दिस येंवचोना.

रामा : आनी बाकीची तूमची घरची?

चान्ने : तांचेकडे कोयतो ना. चडवेळ काडू नाका. तो येंवच्या पयलीं आमी सामकी शास्त्रोक्त विधीरीत करुन लगीन जावपाची.

उपरान आमचो बाबा आमचें कायंच करपाक शकचोना.

रामा : तशे जाल्यार चल या तर.... मामा मातसो तुंय यो पळोवया.

मामा : हांव ..? विठू खयानीच मुंबय गेला मरे?.. म्हाका दिसता तूमी आनी कोणाकुय पळयल्यार बरो...

रामा : बरे आसा चल यो चान्न्या वाटेक 'सुखा'क बरोबर घेता हांव. चल या.

चान्ने : भटाचे पांच हजार घे. आनी शेटीचे पंधरा हजार मंणयाचे घे. चल बेगीन घे.

रामा : देवळात वचून बेष्टी माळ घातल्यार जावचेना?

चान्ने : बेष्टी मळयारं कसली. आम्याच्या पानाची?

रामा : ना गो चान्न्या दोन फुंलाचे हार पूरो ना?

चान्ने : आरे असले लगीन तो मानचोना. हांव म्हज्या बाबाक पूराय ओळखता. तो रजीस्टर लगीन लेगीत मानपाक तयार ना. तो फकत शास्त्रोक्त विधीपुर्वक लगीन जाल्यारुच आमचे लगीन म्हण मानतलो. पूरावो म्हण भटाकडल्यान सर्टिफीकेट घेंवची पडटा आनी ति सर्टिफिकेट भट पांच हजार दिल्यारुच दिता. ति सर्टिफिकेट बाबाक दाखयता, तेन्नाच तो कोयतो कुशीक दवरतोलो. ना जाल्यार...

रामा : समजलें. म्हाका माडारुच रावचो पडटलो.

मामा : आ... समजलो मरे या संधीचो फायदो घे. ना जाल्यार तूका लगीनूय ना आनी बरेभाषेन जगपाक जमीनूय ना. तूवें माडारुच जिवीत काडचे पडटलें.

रामा : सारखें मामा... मामा तूजेंकडे पंधरा हजार आसा जाल्यार दी पळोवया. लगीन जाताच रोकडेच दिता.

चान्ने : कितें तू मामाकडे मागता? तूजेकडे फकत पंधरा हजांराचो बंधोबस्त जायना?

मामा : आगो बाय ताच्या जेवणाचोच बंदोबस्त ताचेकडे जायना. तूमचे लगीन उल्लें. हाका माडारुच रावचो पडटलो.. बाय

चान्न्या तूमच्या लग्नाची आशा सोड.

चान्ने : रामा हे खरे मामाचें? (*रडटा*) रामा म्हाका तूज्या बगर या संवसरात कोणूच ना. रामा हांव तूज्याबगर जगूकूंच शकना. जगतले जाल्यार म्हाका दुसऱ्याकडे लगीन जांवचे पडले. हांव कशे म्हण जगूं या संवसरात. (*रामा आबूज जाता*)

रामा : (*रडोन*) चान्न्या तूजो म्हजेर कितलो प्रेम आसा म्हाका आता कांयच कळना जाला. तूवें तूका जगपाक जाय म्हण जो उपाय चितला. तो उपाय तू करीत जाल्यार, ज्या माडाचेर रावून हांव म्हजो जिव वाटायता, त्याच माडाच्या आधारान हांव जिव दिता.

चान्ने : आरे माडाच्या आधारान जिव दीवच्या परस लगीन जावपाक तूका कितें जाता?

रामा : अकस्मात पंधरा हजार खंयच्यें हाडू?

मामा : खंयचें हाडूं? लगनाक कितको खर्च येता खबर आसा तूका? लाख जाय लाख, आनी तूजेकडे फकत पंधरा हजार ना.? अक्कल आसा तूका? तूजे नशीब म्हण, कि तें तूज्या खातीर बाबडें पळून वचून लगीन जावपाक तयार जाला. तेंय भी फकत पंधरा हजारा भित्तर.

रामा : चान्न्या तूवें कांयच हाडूना गो घराकडसून? बाकीची पळून वचून लगीन जाता तिं घराकडसून जायतें घेंवन पळटा मगो.

चान्ने : (*रागान*) रामा सोपूत घेवन सांग. तू म्हजेर खऱ्यानिच मोग करता?

रामा : आवूयस. हे तू कितें विचारता? मोग करता? रामायण आयकून सिता रामाची कोण काय विचारता मगो तू? (*रामा कवितेचे स्टायलीन उलयता*) चान्न्या तूज्या बगर म्हजे जिणेन कांयच अर्थ ना. आगो हांव तूजो तोता तू म्हजी मैना. पूण आता जाल्या म्हजी दैना, हे तू पळयना. पूण जूळल्या आमची मनां हें तूका कशें समजना?

चान्ने : (*चान्नेय कवितेतूच उत्तर दिता. त्या भषेन मामाय कवितेतूच*

*उलयता)* पूण म्हाका समजना पंधरा हजार तूजेकडे कशें ना?

मामा : बाय ताका काम धंदो कांयच ना.

रामा : पूण मामा पयशे नासतना लगीन जाल्यार जायना?

मामा : विठूच्या कोयत्या धपको तूका याद ना?

रामा : मामा मामा आता हांव कितें करुं कांयच समजना... *(रडटा)* चान्न्या म्हजी काकुट कर... चान्न्या हांव तूकांच लागून जगता. आदेसाचे आदेस माडार काडटा. फक्त आडसरां खांवन जियेता. तूज्या बाबान माडाच्या मुळांत घातलेल्यो काटयो काडटा आसतना रक्त बबांळ जाता.

चान्ने : पूरो..पूरो हांवूय तूज्या बगर रावपाक शकना. तेन्ना तूका हांव ऑपशन दिता. म्हजो बाबा दर मयन्याक मुंबय सामान हाडपाक वता. तेन्ना आमी दुसऱ्या मयन्याक लगीन जांवया. तूका एक मयनो दिता. पंधरा हजाराचो बंदोबस्त करपाक.

रामा : थॅंक्यू चान्न्या थॅंक्यू... चान्न्या आता हांव बेकार रावना...

चान्ने : बरें आसा ही गजाल मात गुपीत दवर... हांव वता *(वता. इतक्यान पात्राव रागान भितर सरता. हातान व्हडलें बेग आसा.)*

पात्रांव : मामा... ओ मामा...

मामा : पात्रांव यो भितर..

पात्रांव : मामा कसलो मेस्न रे तूं? कसलो मेस्त. फेस्ताक आरमार करपाक दिल्ली. जात्रा जाली तरीय तूजो पत्तो ना. फळयो हाडपाक ॲडवांस घेवन तू गेल्लो. तोणूच दाखवना तूवें. कितले रकाद धाडचे तूका. तयार केल्ली सगळी खेळणी हांगा थंय दवरची पडटा. तूजेकडे जायना जाल्यार जायना म्हण सांग.

मामा : पात्रांव आनीक थोडे पयशे ॲडवांस जाय आशिल्ले?

पात्रांव : आब्बा आनीक ॲडवांस पयशे? फळयांक आनी बाकीच्या सामनाक सगळे पयशे दिल्या मरे हांवे.

मामा : पात्रांव सामान वाडले न्हय?

पात्रांव : सामान वाडलें? केन्ना रे? आ.... आनी तूजेकडे पयशे दिल्यार वर्स जाले मरे. आ.. हींती फटींगपणा करु नाका आ.. सांगता बथ्यान.

मामा : पात्रांव मानायूच मेळना.

पात्रांव : मानाय मेळना? गांठी भल्या मरे. आनी मेस्तपणाक कितलें मानाय जाय रे? आ... तू व्हडलो बिल्डर कसो उलयता मरे? सादी फळयाची आरमार करपाक तूका कितलें मानाय जाय? हें पळय म्हाका तूज्यो फुडल्यो राटावळी नाका. सांग केन्ना करता?

मामा : बरे पात्रांव आनीक थोडया दिसांनी येता.

पात्रांव : (*रागान*) आनीक थोडया दिसांनी? आब्बा नाका नाका तूं नाकाच म्हजे अेडवांस परते दी. जायते गांठी आसा. कोणाय एकल्या गांठयाक सांगत जाल्यार रोकडीच आरमार करुन दितालो.

मामा : पांत्राव तूमी गांठयाकूच वयर काडपाचे?

पात्रांव : (*रागान*) आब्बा गाठयाकूच वयर काडपाचे? एका दिसाचे काम, आयज तूका कितले दिस जाले रे? एक वर्स लायले मरे तूवे आनीक कितली वर्सा लायतलो सांग? गाठयांक सांगल्यार एकाच दिसान करुन दिवपाचे. वयल्यान सवाय दिवपाचो. तूमची बापायली रेट.

मामा : पात्रांव तांची कामा मातशी रोफ.

पात्रांव : चूप हेंतें म्हटले म्हण्टकूच जालें तूमचें. हाड दी म्हजे एडवांस नाका करुंक तू काम. दी.

मामा : पात्रांव हांव फाल्यांच येता शिवर येता.

पात्रांव : बरे आसा येतना फळयो घेंवन यो. हाडल्यामरे फळयो?

मामा : हय पात्रांव. हाडल्या.

पात्रांव : खंय दवरल्या रे?

मामा : पात्रांव भायल्यान दवरल्या.

पात्रांव : दाखय पळोवया.

मामा : पात्रांव भोंगसाळेन भायर काडून दवरल्या.

पात्रांव : सांग तू कितेंय. फाल्या फळयो आनी तू फक्टरीत पावपाक जाय. नाजाल्यार तू खंय पावता तो पळय.

मामा : पात्रांव हांव पावलो म्हण्टकूच पावलो. उतर मळयार उतर.

पात्रांव : बरे आसा. पळोवया तूजे उतर. पूण फटींगपणा करीत जाल्यार सामाळ तू. तूकाच लागून आज म्हाका ट्रेन चूकली मुंबय वचपाची. फाल्या म्हाका व्हडले काम आसा. फाल्यांय म्हाका वचपाक मुश्कील. आनी फाल्या माल पावना जाल्यार भयंकर लूकसान जांव येता. हे तूकाच लागून.

मामा : पात्रांव हे कसले आरोप करता? हांवे आरमार वेळार करुना म्हण ट्रेन कशी चुकली?

पात्रांव : शाणपणा आनी उलोव नाका. सांगता आयक. तयार केल्ली नवी खेळणी दवरपाक आरमार ना जाली. त्या खातीर सगळी खेळणी हांगा थंय पातळोन दवरची पडली. तातून म्हज्यो आयज मुंबय घेंवन वचपाच्यो जायत्यो वस्तू मिक्स जाल्यो. सोदता म्हणसर वगोत जालो. ट्रेन चूकली समजलो? आनी चड सूबेज उलोव नाका. वता हांव.

रामा : पात्रांव म्हजेर एक उपकार कर. म्हाका कसलेय काम आसल्यार पळय तूमच्या खेळण्याच्या फक्टरीन.

पात्रांव : गोंयकारांक कामांक दवरप मळयार सामकीच रीस्क.

रामा : रीस्क कित्याक पात्रांव?

पात्रांव : कित्याक रीस्क? तांका सकाळी कामांक दवंरताच दनपरां पगार वाड जाय. सांजवेळा ते युनीयनाक जोंयट जाता. दुसरे दिस ते कसलेंय कमी दर्जाचे काग करचें पडटा, चड काम करचे म्हण झगडटा. तिसरे दिस ते तांबडो बावटो घेवन संपार वता. बरे हांव वता.

रामा : खंय संपार पात्रांव?

पात्रांव : चूप. म्हज्या फक्टरीन वेकेंसी आसा पूण तूका काम ना गोंयकार तू.

रामा : पात्रांव. प्लिज पात्रांव हांव तसो न्हय. हांव आयच्यान सुधारला देवाच्यान पात्रांव. हांव कसलेंय काम करपाक तयार आसा (*पात्रांवाच्या पायांक धरता*)

पात्रांव : म्हाका सांग तूका कसल्या कामाचे experience आसा?

मामा : पात्रांव तो सामको पाखो कसो माडार चडटा.

पात्रांव : म्हाका पाडेली नाका. म्हाका भाट ना.

रामा : पात्रांव तूमीच सांगात हांव कसलें काम करु? हांव कसलेंय काम करपाक तयार आसा. पात्रांव प्लिज...

पात्रांव : बरे आसा कितलो शिकला रे तू?

रामा : एम. ए. पात्रांव.

पात्रांव : वाचूंक बरोंवक कळटा मरे?

रामा : हय पात्रांव.

मामा : पात्रांव एम. ए शिकला आनी वाचूंक बरोंवपाक येना?

पात्रांव : म्हजे फक्टरीन एम. ए शिकिल्ले जायते लेबर आसा. धड ॲप्लीकेशन बरोवपाक जमना.

रामा : म्हाका कळटा पात्रांव.

पात्रांव : बरे आसा एम. ए. मरे तू? म्हज्या फक्टरीतल्या गार्डनान झाडाक उदक घालपाचे काम आसा. ते तूवें बरे भाषेन करपाचे.

रामा : बरे आसा पात्रांव हांव झाडा लावपाक लेगीत जाणा.

पात्रांव : तर एम. ए. मरे तू? तेन्ना उदक घालच्या पयली म्हजे दुसरे आनी एक काम कर.

रामा : सांग पात्रांव हांव कसलेंय काम करपाक तयार आसा.

पात्रांव : पळय या तूज्या मामांक लागून म्हाका ट्रेन चुकली. हें सामान या चार दिसां भितर पावना जाल्यार म्हाका खूप लुकसान जांव येता. आनी फाल्याच्यान म्हाका फक्टरीतले काम आसा तें पूराय जायना जाल्यारुय लुकसान आसा. तेन्ना तू एक काम

म्हजे मुंबय वचपाचे काम तू कर. फाल्याच वच तू मुंबय. यान पयली पावला मरे मुंबय?

रामा : जायत्या पावठी पात्रांव. तुकाराम कपडयाकार कपडे हाडपाक म्हाकाच मुंबय घेवन वता. या दिसानी हांव ना आनी ताची धांदल.

पात्रांव : या दिसांनी खंय आसता तर तू?

मामा : या दिसांनी तो माडारुच आसता पात्रांव.

पात्रांव : एका माडार चडपाक विस रुपया मरे बरे जोडटा आसतलो? मागीर तूका काम कित्याक रे?

रामा : पात्रांव. म्हाका माडार चडोन चडोन बेजार आयलां. माडार चडपाचे सोडपा खातीर म्हाका काम जाय.

पात्रांव : बरे आसा. पयली तू फाल्याचे म्हजे मुंबय वचपाचे काम कर.

रामा : बरे पात्रांव वता हांव फाल्या.

पात्रांव : काम मातशे जबाबदारीचे आसा पूण सोपे आसा. पळय हे म्हजे बेग या बेगान आनी एक धाकटे बेग आसा. (*काडून दाखयता*) हे पळय हे ते धाकटे बेग हातून पन्नास हजार आसा आनी या बेगान विस लाखांच्यो नोटी आसा, नोटी एक हजारांच्यो, पाचश्यांच्यो शंभराच्यो आसा.

रामा : बाप्पाय. या पयश्यांचे हांवे कितें करपाचे?

पात्रांव : राव रे. जालो आबूज? सांगता किते करपाचे ते. हे पन्नास हजार मुंबय विटी रेल्वेस्टेशनारुच मुंबय अर्बन **co-operative** बॅंकीन डेपोजीट करपाचे. आनी यो विसलाखांच्यो नोटी थंयच विटी स्टेशनार आशिल्ल्या विश्राम टॉय नावाच्या शोपार दिवपाच्यो तो शोपाचो पात्रांव तूका पाच हजारांचो चेक दितलो तो तूवें घेवन येवपाचो हांव मनश्याक ओळखता. तूजेर म्हजो पूराय विश्वास आसा. राव फोन करुन हांव म्हज्या मनश्यांक सांगून तू फर्स्ट क्लास अडेच हजाराची ए.सि. तिकिट बूक करुन दवरता. नांव किते रे तूजे? वर्साय सांग.

रामा : रामा रामनाथ रामनाथकर. वर्सा सत्ताविस.

पात्रांव : हॅलो. नासनोडकर एक काम कर. फाल्याची एक मुंबयची रेल्वे ए. सी. तिकेट काडून दवर. नांव रामा रामनाथ रामनाथकर. पिराय सत्ताविस.. O.K. तर रामा फाल्या तूवें तिकिट घेवन मुंबय वचपाचे. येवपाक हे घे अडीचशे रुपया. येतना थर्ड क्लासान यो. हे घे एक हजार रुपया खर्चाक. काम चड ना. फकत अर्ध वराचें...... तिकिट मागिर पावयता तूका.

रामा : बरे पात्रांब हांव वयता... (*पात्रांव वता*) मामा हांव फाल्या मुंबय वत्ता. चान्याक सांग फुढल्या मयन्याक लगीन जावंया म्हण.

मामा : पयली मूंबय वचून बरे भषेन यो. पयशे घेवन वयता तू. (*भितर वयता*)

रामा : आयच्यान पयश्यान पयसो कमोवपाक कोमेस करता. पात्रांवान म्हाका खर्चाक एक हजार रुपया दिल्या. काम फकत थंयच, वचपाचे आनी येवपाचे. तें हॉटेल बिटेल कांयच लागचेना. थंय बाकडयार न्हिदून रात काडप. चार जेवणांक जालें दोनशी रुपया. रेल्वेन धर शंभर रुपया खर्च. तर उल्ले सातशी रुपया. शाब्बास सातशी रुपया उरता. (*पासयो मारता. अकस्मात*) आयडिया पात्रावांन म्हाका अडिच हजाराची तिकेट दिल्या. म्हाका कित्याक ति फर्स्ट क्लास तिकिट? ति विकप आनी अडिशिं रुपयाची थर्ड क्लास तिकेटीन वचप. उरतले दोनहजार अडीचशें प्लस सातशी म्हळयार दोन हजार णवशी पन्नास. या.SS. हू.SS. उपरान कामाचे सेपरेट मेळटलेंच. या हू..SS.. (*उमेदीर जाता*)

## देखावो तिसरो

*(सुखा रडत धांवत येता.. हातान पेपर आसा)*

सुखा : मामा.. (*रडटा*) मामा ..

मामा : आरे जालां कितें.. रडटा सो..?

सुखा : मामा हो पेपर वाच.. आय म्हज्या रामा मामाच्या भाच्या रामा, रामा... मामा रामा गेलो तूका खबर ना?

मामा : जाणा हांव रामा गेलो तो?

सुखा : तूका कायंच दुख ना? मामा भाच्याचें दुख ना तूका?

मामा : मुंबय गेल्यार दुःख...? तू कितें उलयता?

सुखा : मामा सुखा मुंबय वता.. वता.. वता.. सामको वयर गेलो स्वर्गार.. (*रडटा*)

मामा : चूप कितेंय अभद्र उलयता.

सुखा : मामा हो पळय पेपर वाच.

मामा : कितें आयला रे पेपरान? (*मामा पेपरान पळयता*)

सुखा : ज्या डब्यान रामा मुंबय वतालो त्याच डब्यान अतिरेक्यानी बॉम्ब स्टोफ केलो.. त्या डब्याचो फार जांवन त्या डब्यान आशिल्ल्या सगळयांचो सामको गोबोर जालो. रेल्वेच्या बुकींग रेकोंडा प्रमाण त्या डब्यान कोण कोण आशिल्ले हाची नावां जाहीर केल्यां तातून रामाचेय नांव आसा. (*रडटा*)

मामा : हाय म्हज्या भाच्या रामा... सुखा चल या आमी थंय पळवया कितें जालां तें. (*मोठ्यान रडटा*)

सुखा : मामा थंयच कोणाचेच मडे लेगीत ना सगळो गोबोर.

मामा : (*मोठ्यान रडटा*) सुखा चल आमी रेल्वे स्टेशनार वचून सारखीच चौकशी करुन येंवया. (*दोघूय भायर धावता.माचयेर कांय खिण काळोख. हळू हळू उजवाड जाता. मामा पिकसांवान बसला. पात्रांव येता*)

पात्रांव : मामा... आता कितले दिस म्हण पिकासावांन रावतलो?

जावपाचे आसा ते केन्नाच चुकना. (*पात्रांव हांगा थंय पळयत*)

मामा : पात्रांव कितें पळयता..?

पात्राांव: काय ना.. काय ना... भितर कोण आसा रे?

मामा : कोण ना पात्रांव.. पात्रांव तूमी दूबावान शे पळयता. सोदता..

पात्रांव : मामा रामा खय्यानिच मुंबय गेल्लो मरे?

मामा : पात्रांव हे तू कितें विचारता? ताका हांव रेल्वे स्टेशनार पावोवपाक स्वतः गेल्लो.

पात्रांव : खरो गेल्लो मरे तू? (*सुखा प्रवेश करता*)

मामा : हें तू कितें विचारता पात्रांव..? हो पळय वांगडा सुखाय आशिल्लो...

पात्रांव : हय रे सुखा.. रेल्वेश्टेशनार रामाक पावपाक तूंय गेल्लो?

सुखा : हय पात्रांव दुर्देवान हांवूय ताका पावपाक गेल्लो...

पात्रांव : पूण तो सारखो रेल्वेच्या डब्यान चडलेलो मरे?

मामा : पात्रांव तूका इतलो दुबाव कित्याक येता कांयच कळना.

पात्रांव : बरे हांव वता.... (*वयता*)

मामा : सुखा. हो पात्रांव असो कित्याक दूबावता?

सुखा : मामा. पात्रवाक दूबावपा फांटल्यान कारण आसा. रामा विस लाख पन्नास हजार घेवन मुंबय गेल्लो न्हय रे. ताका दुबाव. तो मुंबय वच नासतना हांगाच रावला आसत आनी या गजालीचो फायदो घेवन पयशे खायत म्हण.

मामा : सुखा पात्रवाचो हो दूबाव खरो आसल्यार कितले बरे जावपाचे न्हय?

सुखा : हय मामा... (*इतल्यान विठू येता*) यो यो विठू बाब. मामा विठू आयला पाचारुंक.

विठू : (*विठू दुखान बसता*) मामा किते म्हण जाले रे ताका?

मामा : कोणाक?

विठू : रामाक रे? रेल्वेत बॉम्ब कसो फुटलो खंय रे?

मामा : कसो फुटलो? सामको डम्म करुन फुटलो.

विठू : रामान पळोव नाशिल्लो काय?

मामा : पळयल्लो आसतलो पूण भायर उडी माल्ल्यार लेगीत कांयच फरक पडचोना आशिल्लो म्हण तो थंयच बसूनूच रावलो.

विठू : आयज पांच दिस जाले. देवाचे पळयले मरे सगळें? असो मरप मळयार सामके डेन्जर. आंकवार म्हण्टकूच सुबंध जावपाक शकता तो. ताका शांत बीन कितेंय आयल्यार पळय.

सुखा : हे सारखें विठूबाबाचें. मामा तो मोग करतालो म्हण्टकूच ताची जियोपाची भरपूर आशा आसतली. तेन्ना ताचो आत्मो भटकतलोच विठू बाब तू मातसो सामाळून राव.

विठू : जाणा जाणा हांव. जायत्या लोकांनी म्हाका सांगला. कालूंच हांव घाडयागेर वचून आयलों घाडयान सांगला ताचो आत्मा माडाचेर आसा म्हण.

सुखा : तशे जाल्यार विठू बाब आता तू माडापोना रावू नाका. कित्याक आता तो मेला.

विठू : तो जितो आसतना म्हण हांव खंय माडापोना रावतालो तर?

मामा : आरे, रामा मेल्यार आयज चार दिस लेगीत जांवना आनी तूमी हे कितें उलयता?

विठू : मामा रागार जांव नाका. पळय मामा रामा गेलो तो गेलो. मामा अपघातान मेल्या मनशाची या संवसाराचेर सामकी आस आसता. चड करुन मोगी मनश्याची. जेन्ना मोगी मनीस आस दवरुन मरता तेन्ना तो कोणाच्या फाटीक लागत सांगू नजो. केन्ना आजनेर करीत सांगू नजो. मोगी मनश्याचो आत्मो भटकत आसता. घाडयान म्हाका सारखें सांगला. मामा पळय ताची नाराणपोळी करपाकूच जाय. घाडी करतलो सगळे. खर्च मातसो चड येतलो अशे सांगला घाडयान.

मामा : पळय विठू बाब.. म्हाका म्हज्या भाच्याचेर पूराय विश्वास आसां तो कांयच करचोना म्हाका.

विठू : कांय करचोना? आता मनीस ना तो... तो जर एकदा तूका

धरीत... (*मामा सामको भियेता*)

मामा : (*भियेवन*) विठू बाब तू रातचो सो पाचारुंक आयला?

विठू : रात जाली म्हाका, त्या बेथ्या घाडयागेर जेंवच्या जेंवन गेल्लो. म्हजो नंबर येता म्हणसर णंव जाली. डायरेक्ट सगळी गजाल सांगपाक हांगा आयलो. म्हळें पाचारपाचोय शिण भागलो आनी आमच्या रक्षणाची तयारीय करपाक मेवळी.

मामा : विठू बाब म्हाका म्हजो भाचो कांयच करचोना. हांवे ताका कसलेंच दुःख दिवना.

विठू : घाडयान किते सांगला जाणा. जो आकवांर मरता तो डेन्जर. जो आकवांर अपघातान मरता तो ताच्या परस डेंजर आनी जाचे क्रियाकर्म करपाक मेळना तो सामको म्हळयार महा भयंकर डेन्जर. (*सुखाक आनि मामाक कडकडो सुट्टा*)

सुखा : (*भियेवन*) हांवे ताचे केन्ना वायट करुं ना रे... म्हाका भिरांत ना

विठू : आरे घाडयान सांगला. या असल्या मनश्याक जितेपणी मातछे लेगीत कोणेय कितेंय म्हणलेंलें आसल्यार ताका खंय मरतकूच सामको भयंकर राग येता.

मामा : (*भियेवन*) हांवे ताका केन्नाच वायट म्हणो ना रे?

सुखा : सारखें सारखें विठू बाब त्या घाडयान तूका चिमटयाची गजाल सांगूना?

विठू : चिमटयाची गजाल?

सुखा : हय रे सांगता आयक म्हाका सांगल्या त्या बेथ्या घाडयान. तर ताचो पुतणो खंय असोच मेला त्या पूतण्याचेर खंय ताच्या शेजायान थापट उभारलेलें ताणें खंय मरतकूच ताची गोवठी मुड्डीली.

विठू : (*भियेवन*) बाप्पाय फकत थापट उभारल्यार गोंवठी गुड्डीता खंय? आनी कोयतो घेंवन फाटल्यान धांवल्यार कितें करता खंय?

सुखा : तें तूका या दिसानिच कळटलें..अशें दिसता विठूबाब.

विठू : आवूयस आयज कितले दिस रे? घाडयान सांगला मेल्लो

मनीस मेल्या उपरान पांचव्या दिसा नास्कट भूत जांवन फाटीक लागता म्हण.

मामा : आयज पांच दिस जाता...

विठू : आवूयस मामा.. हांव वयता. घाडयान आसे आनी बिभूत दिल्या थोडया श्या दिसाक रक्षण करपाक. वंयता... थोडी चान्न्याकूय दितां. (*धांवता*)

सुखा : विठू बाब थोडी आमकाय दी रे... गेलो मरे हो धांवलो मामा फाल्यां आर्मीय रक्षण करपाक बिबूत घेवन योंवया. आताच या म्हणपाचो पूण रात जाली. बरे मामा हांव वता. (*वता आनी परत येता*) मामा बरीच रात जाली भायर सामके चक्क चान्ने पडलां रामा माडार बसला काय दिसता. मामा हांव आयज हांगाच न्हिदता. म्हज्यान भायर पावल घांलू नजो. मामा खाप्यानीच म्हाका माडार तो आसाच्र असो दिसता... म्हाका उलो मारील्ल्यावरीं जालें.

मामा : (*चादर हाडून दिंवन*) मातसो ओगी न्हीद पळोवया घाम काडलो तूवें ... म्हाका कडकडो सुटलो. (*सुखा चादर पांघरुन न्हिदता*) सुखा तू आयज हांगा रावून बरो जालो म्हाका एकटयाक रावपाक नाका पूरो जावपाचें...न्हीद तू. हांवूय न्हिदता. (*भायल्यान रामा उलो मारता*)

मामा : सुखा उलो कोणीन माल्लो रे? (*भायल्यान रामा परतो उलो मारता*)

मामा : सुखा आयकले तूवें? (*सामको कडकट्टा*)

सुखा : (*भियेवन कडकट्टा*) मामा.. राम्राचो सो आवाज दिसलो मरे?

मामा : नारे आमका तसो भास जाला आसतलो. चल उठ दार काड पळोवया...

सुखा : मामा.. हांव काडू..? मामा तूं काड मरे  रामा न्हय रे तो मामा.

मामा : (*भियेवन*) जय हनुमंता.. राम राम.. राम भगवंता सुखा पळयता कोण तो... (*दार काडटा. रामा बॅंडेज बांधलेल्या आनी जखमी अवस्थेत हातान बेग घेंवन भितर सरता.*

*सुखा आनी मामा सामकेच कडकट्टा. भियेवन दोघांचीय दाडमणा घट्ट जाता.. भूत भूत अशे म्हण्टा)*

रामा : मामा हांव आयलो (*सुखाच्या आनी मामाच्या तोणातल्या भियेवन उतरां फुटना*) भियें नाकात.. हांव मरुना.. पळया म्हजे पायें पळयात हांव भूत जाल्यार म्हजे पायें पोरते आसचेन आशिल्ले? सांगात पळोवया? पटले मरे तूमकां? आरे तूम उलयना कित्याक? आ.. समजले भियेवन तूमच्यो दातखिळय बसल्या, हात पांय घट्ट जाल्या तर तूमकां हांव सगळी गजाल सांगता. तर जालें अशें. म्हाका पात्रावांन ऐसि फर्स्ट क्लास अडीच हजार रुपयांची तिकेट दिल्ली. पूण हांवे चितले वि म्हाका मातसो फायदो करप त्या खातीर हांवे ति तिकेट दुसऱ्याक विकली आनी साधी थर्ड क्लास तिकीट काडली आनी दोनहजार अडीचशी रुपयांचो फायदो केलो. या फायदय बरोबरुच म्हाका म्हज्या जिवाचो फायदो जालो. त्या फर्स्ट क्लास ए. सी. डब्यान बॉम्ब स्टोफ जालो आनी रेल्वेखात्याच्य माहीती प्रमाण म्हाका मृत घोषित केलो. चार दिस जाले हांव काटयाकुब्यातल्यान प्रवास करता. वाटेक थोडो उपचार घेतलो..

मामा : (*भाच्या म्हण वेंग मारता*) तर भाच्या तू जितो आसा. तू मेलो म्हण सगळयांक फामाद.

रामा : जाणा मामा.. हांव मेला म्हण कळटाच चान्ने सामके दुःखान बेशुध्द जालां आसतले... मामा ताका हांव मेळपाक वता जाता तितक्या बेगीन हांव जितो आसा हे ताका कळप सामकें गरजेचें आसा. मामा हें पयश्यांचे बेग दवर,

मामा : रामा.. हें कसलें बेग...

रामा : आनी कसलें पयश्यांचें पांत्रवाचें...

सुखा : आवूयस म्हण्टकूच हे सगळे पयशे तूजेच जाले तर?

रामा : छे.ss..म्हजे कशे जाले पात्रंवाचे ते?

सुखा : पूण जगाच्या नदरेन तू मेलो तूजो गोबोर जालो आनी तूज्या

सकट या बेगाचोय गोबोर जालो. हे पयशे तूका पचले.

रामा : पूण. हांव मरचो पडलो ना. हांव मेल्यारुच म्हाका हे पयशे पचले म्हणपाचे.

सुखा : त्या पासत तू कांयच भियो नाका. म्हजेकडे भरपूर आयडिया आसा... सध्या तूवें लीपोन रावपाचो. मागीरचे मागीर पळोवया. सध्या तू मेलाच अशें फामाद आसूनी

रामा : बरे आसा. पूण हांव जितो आसा हे चान्न्याक कळपाकूच जाय. म्हज्या मरणाची खबर आयकून बाबडे कितलें रडलां आसतलें देवूच जाणा. बाबडें जिव दिवपाची तयारी करता आसतलें. मामा मामा हांव जितो आसा ही गजाल फकत चान्न्याक सांगता आनी येता.

सुखा : इतल्या रातचो नाका रे?

रामा : ना सुखा. ना. हांव जितो आसा हे ताका जाता तितक्या बेगीन कळपाकूच जाय. ना जाल्यार ताच्या जिवाक धोको आसा. हांव वयता.

मामा : रामा राव. पळय तू अशी घाई करीत जाल्यार विस लांखूय वतले आनी चान्नेय तूका मेळपाची शक्यता मात्तूय ना.

रामा : हांव समजूना मामा.

मामा : सांगता आयक. विठूक तू कित्याक नाका सांग पळोवया?

रामा : हांव गरीब म्हण विठूक नाका. ताका पयश्याकार जावूंय जाय.

मामा : हय मरे. मागीर आता तूजेकडे विस लाखांवयर पयसो आसा म्हण्टकूच विठूक तू नाका जावचोना. तो तूका जांवूय करतलोच.

रामा : पूण मामा हे विस लाख म्हाकाच उरतले जाल्यार हांव मेला अशें जावपाक जाय. आनी हांव मेलो अशें जालें जाल्यार म्हाका चान्ने कशे मेळटलें? तेन्ना हांव जितो आसा हें कळपाकूच जाय.

सुखा : पूण चितून पळय. तू जर जितो आसा म्हण कळत जाल्यार

हे पयशे तूका मेळचेना. पयशे ना जाल्यार चान्ने मेळचेंना

रामा : आनी हांव मेलो अशे कळत जाल्यार चान्ने मेळटलें? तूमी सांगता त्या हिशोबान हांव जितो आसल्यारुय म्हाका चान्ने ना आनी मेल्यारुय चान्ने ना. फुडले फुडे. हांव मेला म्हण जगपाक तयार आसा पूण चान्न्याक हांव जितो आसा हे कळपाक जाय. हांव वयता आताच ताका दिश्टी पडटा आनी येता.

मामा : आरे रामा. इतल्या काळखान खंय वता?

रामा : मामा भायर काळोख ना. चान्ने आसा हांव त्या चान्न्याच्या उजवडान चान्न्याक मेळपाक वता. (*भायर धावता*)

सुखा : मामा. हांवूय वयता घरा. घरा म्हजो उस्को करतली. चड रात जावना रे. धा जाता थंयच आसा.

मामा : भिरांत दिसना मरे?

सुखा : भिरांत गेली न्हय चान्न्याक मेळपाक. चान्न्याच्या उजवडात.

## देखावो तिसरो

*(माचयेर मामा आनी रामा न्हिदला. कोमो साद घालता रामा उठता.)*

रामा : मामा ऊठ . सकाळ जाली. कोमो रडलो. *(रामा दोरयेवयलो तूवालो घेवन भितर वयता. मामा उठ्ठा विठू भितर सरता)*

विठू : आरे मामा. अजुनूय न्हिदला थंयच आसा?

मामा : पूण विठू बाब. तू इतल्या फातोडेर कसो?

विठू : मामा, रामान भेकडावपाक कोमेस केले. राती भेकडायले चान्न्याक ताणे. जनेलाकडे येवन उलो मारपाक लागलो खंय. चान्न्यान जनेल उघडून पळय जाल्यार जनेलातल्यान रामा उभो. चान्ने थंयच घुवळ येंवन पडलें. दोतोराक हाडटलो जाल्यार भिरांत... पळय मामा ही सूरवात किर्ते जायत सांगू न्हजो. ताचो आताच कितेय तरी बंदोबस्त करपाकूच जाय.

मामा : करुया करुया बंदोबस्त करुया.

विठू : मामा पळय तो सुमंध जाला आता सामको डेन्जर. ताका धरल्यार सोडपाक समजना. मामा चल जाय जाल्यार हांव व्हरता तूका घाडयागेर. पयशे जाय जाल्यार हांव खर्च करता.

मामा : विठू बाब, इतली घाई कित्याक करता? अजून बारा दिस जावना. हांव सामको दुःखान आसा.

विठू : आरे मामा, म्हज्या चलयेचो फुडार चित रे... राती आयलो मरे तो सामको जनेलान उभो जालो मरे. *(रामा भायर प्रवेश करता. आनी विठूक पळोवन थंयच विठूच्या फाटल्यान लिपता)*

मामा : पूण विठू बाब बारा दिस जावनी न्हय.

विठू : बारा दिस जावनी? तो आयलो मरे. म्हाका हें सांगता आसतना थरोथरो येता. ना. मामा. आता वेळ पासार करुन-कोताय येवचेना काल रामान चान्न्याक इतले भेकडायले की ते भियेवन सामके बेशुध्द पडले. आमा सामके कडकट्टा थंय आसा. तो आता सदांच चान्न्याच्या फाटीक लागतलो .

तो आनीक फाटीक लागचो न्हय म्हण घाडयान तूका घेंवन यो म्हण सांगला. तू घरचो न्हय रे?

मामा : घाडी कितें उपाय करतलो खंय?

विठू : कितें उपाय करतलो? आरे तो घाडी सामको पावरफुल मरे. ताणे खंय रामा असल्या सुमंधाक भुतांक बाटल्यांनी पॅक करुन दर्यात उडयल्यां. जायत्या जाणांक बंदी केल्या.

मामा : आरे पूण रामा ताच्या बाटलेत कसो जातलो?

विठू : आरे मामा.. तूका कांयच खबर ना... चल तू यो म्हज्या बरोबर तुवें कांयच करपाचे ना. फकत घाडी कितें सांगता ते आयकुपाचे. चल बेगीन त्या घाडयान सांगला कि ताचो जो लांगीचो आसा ताका पिशें लागतलें म्हण आनी मामा रामाक लागीचो तूच आसा तेन्ना तुका पिशें लागपाक शकता. तु पिसो जांवन रस्त्यार भोवपाक शकता. मागीर तुजी दशा पळोवन नजो जातली.

मामा : म्हाका पिशें लागतले? कोण तो घाडी सांगता? तो घाडी फटींग. म्हजो रामा जितो आसा. रामाक कांयच जावना. सांग तूज्या घाडयाक वचून? फटींग खंयचो म्हजो रामा सुमंध हय? सुमंध तो घाडी. आफोंव रामाक आफोंव? काय बरो म्हजो रामा. तूजो घाडी फटींग. आफोंव रामाक सांग रे

विठू : आरे देवा. घाडयान सांगला त्या प्रमाण हांका पिशे लागले दिसता.

मामा : किते बडबडटा रे तू हांव सांगता तें फट दिसता तूका? आफोव रामाक? मारु उलो? रामा... ओ रामा..

विठू : मामा मातसो शांत जा... पळय मामा एकदा मेल्लो मनीस उलो माल्लो तरी केन्नाच येना. मातसो शांत जा. आयस सायबा हाच्या तकलेर बरोच परीणाम जालो दिसता.

मामा : तूका सांगलो न्हय रे? रामा जितो आसा म्हण. राती आयलो तो.

विठू : (*स्वगत*) आरे देवा. रामा ह्राकाय लागलो दिसता. राती मामाकूय दिसलो दिसता. मामा आयक. जसो राती रामा

आयलो अशें तूका दिसलें तशेंच चान्न्याकुय दिसलें. मामा आजनेर ती. आंकवार मेलो म्हण्टकूच आनी अपघातान मेलो म्हण्टकूच तो तसोच दिसता. आनी सगळयापरस डेन्जर मळयार तो मोगी. मोग करता करता मेलो म्हण्टकूच ताका या संवसराची चड आशा. तेन्ना असो रामा सारखो संवसारार आशा दवरुन मेल्लो मनीस खंयच्यान आनी अकस्मात केन्ना खंय झप्प करुन उभो जायत सांगू नजो अशें घाडयान सामकें स्पष्ट सांगलां.

मामा : (*रागान*) विठूबाब म्हाका तूज्याभाषेन कोयतो घेंवन तूज्या फाटल्यान लांगू कशें दिसता. धपको घालू कशें दिसता.

विठू : दिसपाचेच. सुमंधाची बाधा ति पयलीं तूका कोयतो घेंवन धावनशें दिसतलें. उपरान तू तूजोच खून करतलो.

मामा : विठू बाब आता तूका कसो म्हण समजांव? हजार वेळा सांगलें तो राति आयलो म्हण.

विठू : परतूय तेंच. मामा म्हजें एकूच आयक तूज्या बयाचे सांगता पळय. तो आता तूका आनी चान्न्याक फकत रातचो दिसलां. ताचो बेगीन बंदोबस्त करपाक जाय नाजाल्यार तो केन्नाय खंयच्यान वगतार अकस्मात उभो जातलो. आनी जो कोण लांगी सापडटा ताची गोंवठी मुड्डिडतलो. घाडयान ही गजाल सामकी स्पस्ष्ट सांगल्या.

मामा : हांव भियेना रामाक. रामाची कोणाकूच भिरांत ना.

विठू : भियेना? आरे मामा तूका आनी म्हाका चड भिरांत अशे घाडयान सांगला चान्न्याचे लगीन करीत जाल्यार चान्न्याक भिरांत ना अशे घाडयान सांगला. त्या खातीर हांवें चान्न्याक बेगीबेगीन सोयरिक पळयल्या. चान्न्येय बाबडे लगीन जावपाक तयार जालां.

रामा : (*सहन न जांवन थंयच उभो जाता*) ना चान्ने अशें केन्नाच करचेना.

विठू : आवूयस देवा म्हज्या बाप्पाय (*विठू बोब मारुन धांव मारता. ताच्या फाटल्यान रामा धांवता आनी परत धांवून भितर येता.*)

रामा : मामा पात्रांव येता हांव लिपता. (*भितर वयता पात्रांव प्रवेश करता*)

मामा : (*अकस्मात*) हाय म्हज्या भाच्या.. सोसू नजो रे हे दुःख.. हाय हाय...

पात्रांव : मामा तूका चडोन येता?

मामा : पात्रांव केन्ना केन्नाय याद येता....

पात्रांव : कोणाची म्हजी? हांव येताच रडलो म्हण विचारता. म्हाका सांग. हो विठू सामको शेपडी तुट्सर पडत मरत कित्याक धांवला?

मामा : तो कित्याक धांवला तें म्हाका कशें समजतलें पात्रांव?

पात्रांव : हांवे ताका विचारलें कोणाक भियेवन धावता काय म्हण? तो सांगता रामा परत आयलो खंय? सारखें? हांगा खंय ताच्या फाटल्यान उभो जालो सारखें?

मामा : पात्रांव रामाचे भूत तें.

पात्रांव : तेंच तें सांग म्हाका हांगा रामाचे भूत कांय वेळा पयली हांगा आयिल्ले? सारखे सांग.

मामा : पात्रांव म्हाका दिसू ना.. भूता तशीच न्हय पात्रांव? कोणाक दिसता ताका दिसता.

पात्रांव : मागीर तूका दिसलें काय ना इतलेंच सांग?

मामा : ना पात्रांव.

पात्रांव : मामा. रामा खंय तरी लीपून आसा. जग ताका मेलो म्हण मानता. विठू ताका भूत सुमंध मानता. पूण म्हजें मन तो मेला अशें मानपाकूच तयार ना.

सुखा : पात्रांव अशें कशें जातलें? इतलो व्हडलो बॉम्बस्टोफ. थंय फकत गोबोर आनी एकटोच रामा कसो वाटोवतलो.

पात्रांव : बॉम्ब स्टोफ फकत एकाच डब्यान जाला समजलो. सगळया

डब्यानी जावना.. (*नेटान वयता सुखा प्रवेश करता*)

सुखा : (*पात्रांव गेलो ओ ना हाची खात्री करुन घेवन*) रामा, पात्रांव गेलो. यो तू भायर. (*रामा प्रवेश करता*)

रामा : छी.. हांवे किते म्हण करपाचे.

सुखा : पळय रामा, पात्रंवाक तूजों सामकोच दुबाव लागला. तू मातसो शादूर राव. भायर सरु नाका. जर तर पात्रांवाक तू जितो आसा म्हण कळत जाल्यार तूजे विस लाख वतले. विस गेले म्हण्टकूच चान्नेय वतलें.

रामा : आनी हांव मेला म्हण्टकूच चान्ने म्हाका मेळटलें? आ.. मेळटलें? शि.. पात्रावाक हांव मेला म्हण दाखवोन दिवपाचे आसा. आनी विठूक आनी चान्न्याक हांव जितो आसा हे दाखवोन दिवपाक जाय. हयो दोन भुमिका म्हजेकडें जातल्यो तरी कश्यो? शि.. हांव मेल्यारुय म्हाका चान्ने ना आनी जितो आसल्यारुय चान्ने ना. म्हण्टकूच हांव मेलो उल्लो एकूच.

सुखा : राव रे पापया असो निराश जाव नाका किर्तेंय तरी उपाय चितूया. मामा किर्तेंय तरी उपाय चित मरे.

मामा : उपाय मळ्यार रुप बदलचें पडलें ना?

सुखा : वेरी गुड मामाची बेस्ट आयडीया... रुपूच बदलूया. मेकअप करुया. मामा चल किर्तेंय घरान पेंट कलर हाड पळोवया. ट्राय करुया हाचे रुप बदलपाची.

मामा : म्हजेकडे कलर खंयचो? मोदेराची पोलीश आसा.

सुखा : पावडर आसा? ट्राय करपाक रे?

मामा : हय आसा. हो पळय हांगाच आसा केन्नाय मारता हांव पणजे वयता आसतना (*मामा पावडर दिता. सुखा रामाच्या तोणाक पावडर मारुन तोण धवें करता.*)

सुखा : मामा तरीय ओळखुपाक येता. आनी किर्तेंय हाड पळोवया तोणाक लावपाक पिनरबिन आसा जाल्यार. (*मामा हाडपाक भितर वयता. सुखा रामाच्या तकलेक लेस बांधता*) आनी एक लेस पळयता आ... मामा ए... मामा (*भितर वता.*

*इतल्यान दुःखान चान्ने प्रवेश करता)*

रामा : चान्न्या तू? (*चान्ने कींळच मारुन धांव मारता) रामा ताच्या फाटल्यान भायर धांवता. कींळच आयकून मामा सुखा भायर येता)*

मामा : आरे.. सुखा कींळच कोणीन माल्ली रे. आनी हो रामा खंय? (*इतल्यान रामा परतो धांवून येता)* आरे रामा कींळच कोणीन माल्ली रे? आनी तू खंय गेल्लो?

रामा : मामा. म्हजें चान्ने आयिल्लें. म्हाका भियेवन ताणें धांव माल्ली. पूण वाटेर पात्रावाक पळोवन हांव परतून धांवून आयलो.

सुखा : छे.. आयस सायबा आता तूका तें सारखें डेन्जर भूत समजलें आसतलें. तो पावडर पूस तोणाचो.. सामको भूत कसो दिसता.

रामा : (*सामको बेजार जावन रडोन)* सूखा चान्ने म्हाका भूत समजता मरे. सुखा म्हाका आता चान्न्याक मेळपाकूच जाय. ना जाल्यार चान्ने म्हाका मेळपाक सामके मूश्कील. (*रडटा)*

सुखा : राव राव रडो नाका. हांव इतलो व्हडलो आयडीयेकार आसतना तूका कसली भिरांत रे. पळय रुप बदलूपाच्या आयडियेवरसून म्हाका आनीक एक आयडिया आयल्या.

रामा : सांग मरे तर आयडिया पापया म्हाका. चान्न्याक मेळपाक जाय म्हणजे जाय. ना जाल्यार या संवसारात हांव जितो आसून किते उपेग? मेलो उल्लो एकूच.

सुखा : बरें आसा. म्हजी आयडिया अशी आसा कि एका फातरात आठ पक्षी मारपाचे कशें तें सांगता. तूका चान्न्याकूय मेळपाक मेळटले. पात्रांव तू मेलाच अशें समजतलो आनी तूजेर एक वेळ खुशुय जातलो. विठूय तूजेर खूष जातलो आनी जायत्यो गजाली ही म्हजी आयडिया उजार करीत जाल्यार जातल्यो.

रामा : मागीर वोगोत कित्याक करता? सांग मरे कसली आयडिया ती.

सुखा : घाई करु नाका सांगता आयक.. (*संगीताच्या जोरार आयडीया सांगपाचे हाव भाव.. सांगता सांगता रामाच्या, मामाच्या*

*तोणार हांसो येता)*

रामा : म्हण्टकूच हांवे बायलेचे रुप घेवचें पडलें तर?

सुखा : हय. आता रातचोच तू आमगेर यो. सदांच्या भषेन पात्रांव आपलो दूबाव क्लियर करपाक फाल्या सकाळी आठांक हांगा येतलोच चवकशी करपाक. तेन्ना सांगल्याप्रमाणे तूवें सामकी आठांक हांगा एन्ट्री मारपाची.. चल या आमी लोकांची नजर चूकवोन लिपत लिपत या..

मामा : आरे माथ्यार तूवालो घेवन वच. पळयात सामकें टायमार येयात आ.. (*रामा माथ्यार तूवालो घेवन वता*) पात्रांव हांगा डेली आठांक येता. तूमी आठांक येयात...

काळोख

# आंक दुसरो
## देखावो पयलो

*(मामा काम करता. विठू रागान भितर सरता. विठूच्या गळयात, हातान, आंगाक, दोरे तरेकवार लॉकेटां बांधलेलीं आसा)*

मामा : विठू बाब हें कितें? खंय रे शिमग्याक वता?

विठू : (*रागान*) शिगम्याक वता काय म्हण विचारता? तूजेर घालूं धपको. घाडयान म्हज्या रक्षणाखातीर म्हाका हे मंतरलेले दोरे लोकेंटा दिल्यां.

मामा : तूज्या रक्षणा खातीर?

विठू : (*रागान*) तू म्हाका राग हाडू नाका आ..? रामाचो बंदोबस्त केलो तूवें? तो भेकडायता आजनेरी करता मरे. तो केन्ना गळयाक धरीत सांगो येता? अकस्मात खंयचरुच उभो जाता मरे तो. (*फाटल्यान पळोवन बेष्टोच दचकता*) त्या खातीर म्हाका हो उपाय करचो पडलो. घाडयान सांगलां हें सगळें आंगार आसत जाल्यार रामाच कित्याक ताचो बापूय आजो पणजो लेगीत म्हाका कसलीच बाधा करपाक शकना.

मामा : तशें जाल्यार तू रामाचो आनीक कसलो बंदोबस्त कर म्हण सांगता?

विठू : (*रागान*) तूका मरे धपकोच जाय. हे सगळे शिमग्याचे आंगार घेवन कितलो तेप म्हण भोवतलो? घाडयान रातचे घालपाक आनीकूय दोरे गोंणें दिल्या. न्हिद पडना. तुका सांगता बयान जाता तितल्या बेगीन रामाचो बंदोबस्त कर.

मामा : मळयार कितें करुं?

विठू : आरे पापया. सारखो मामाच तू चल पयली गोकर्ण वचून ताची नारण पोळी कर. ना जाल्यार मामा जशे म्हाका जाता तशेच तूका त्रास जातले. घाडयान सांगला तूका पिश्यापणाचे झटके येतले. तूका दिसतले कि रामा जितो आसा. तो मरुना. ताच्या भुताकूच तू खरो समजतलो. तेन्ना सांगता

जाता तितक्या बेगीन नारणपोळी करुन उडय. आयज जाल्यार आयज या. आताच येता? जाल्यार या.

मामा : विठूबाब कान दिवन आयक. रामा खरोच जितो आसा. बॉम्ब फुटोन सगळयांचो गोबोर जालो. पूण रामाचो गोबोर जावना. ताका बोंब लागूना त्या दिस रामा रातचो आयलो. ताच्या हातान बेग.. ना..ना.. हातान कांयच नाशिल्ले.. तो बाबडो सारखो पांचवे दिसा हांगा हजर जालो. म्हाका ताणे मामा मामा म्हण उलो माल्लो. म्हजी दातखिळी बसली. हात पाय घट्ट जाले.

विठू : (*भियेवन*) आरे देवा.. मामाक पिश्यापणाचो झटको आयलो दिसता. हांगा रावप डेन्जर आसा. हांगा रामा उभो जावपाक आसा.

मामा : आरे विठू बाब किते बडबडटा? हांव किते सांगता ते आयक (*विठू धावता. पात्रांव प्रवेश करता*)

पात्रांव: मामा.. (*सगळयांक नजर मारता*) मामा.. कशी चलता तूजी कामा? रामा विठूक परत दिसलो खंय? धांव माल्ली ताणे.

मामा : पात्रांव यो यो बस बस. यो पात्रांव.

पात्रांव: आब्बा आयज बरो येंवकार दिता मरे? किते घडलां?

पात्रांव: म्हाका सांग रामा परत दिसलो खंय विठूक?

मामा : हय पात्रांव. ताका भेकडायता खंय तो.

पात्रांव: त्या खातीर तो इतिहासीक नाटकातलो कसो भोवता दिसता, गळयान, हातान लोकेंटा, माळो घालून.

मामा : पात्रांव मेल्ल्या मनश्याची भिरातूच न्हय?

पात्रांव: तशे जाल्यार तूका कित्याक भिरांत दिसना? तू कित्याक लोकेटा घालून भोवना?

मामा : पात्रांव तो विठू रामाच्या फाटल्यान कोयतो घेंवन धांवतालो न्हय? त्या खातिर ताका भिरांत.

पात्रांव: म्हाका सांग भूता खेताचेर तूजो विश्वास आसा?

मामा : हय तर?

पात्रांव: रामा भूत जांवन विठूच्या फाटीक लागला हे तू मानता?

मामा : हय मानता.

पात्रांव: हांव मानीना रामा खरोच विठूक दिसला आसतलो. म्हजे पयशें घेवन तो खंय तरी लिपून आसा.. (इतल्यान सुखा प्रवेश करता)

सुखा : नमस्कार पात्रांव. आयज आठा पयलीं शे आयल्या..

पात्रांव: हय आयलो पूण म्हाका सांग तू रामाचो आमीक मरे. या दिसानी तूका रामा दिसला?

सुखा : ना पात्रांव. रामा कसो दिसतलो? ताचो गोबोर जालो न्हय?

पात्रांव: रामाचे भूत दिसलां?

सुखा : ना पात्रांव.

पात्रांव: तूका रामा मेला म्हण खात्री आसा?

सुखा : हय पात्रांव म्हाका खात्री आसा.

पात्रांव: म्हाका खात्री ना. हांव वयता.

सुखा : पात्रांव रावात. आठ लेगीत जांवना. तूमी हांगा टायमार आठांक येता न्हय?

पात्रांव: कितें सदाच टायमार येता? तूमका किते दिसलें हांव हांगा कामाक येता? टायमार येवपाक?

सुखा : तशे न्हय पात्रांव सवंय जाल्या न्हय.

मामा : पात्रांव राव मातसो.

पात्रांव: आब्बा हांव हांगा येताच तोण काळें करपी वाकडें करपी मामा. आयज राव सो म्हण्टा?

मामा : तूमी येताच रामाच्या भूताची भिरांत वयता पात्रांव.

पात्रांव: कित्याक?

मामा : अरशीत पात्रांव.

पात्रांव: तर आयक हांव हांगा कित्याक येता तो. रामा मरुंना असो म्हजो खात्रीचो दूबाव. जो मेरेन म्हजो दूबाव क्लियर जायना तो मेरेन म्हाका हांगा येंवचोच पडलो. पूण फालच्यान हांव

हांगा येंवचोना.

मामा : कितें पात्रांव तूमचो दूबाव क्लियर जालो?

पात्रांव: ना. फाल्याच्यान हांव म्हजो वॉचमेन हांगा दवरतलो. बरे तर वता हांव. आठ जाली. (*इतल्यान रामा बायलेच्या रुपान रडत येता*)

रामा : हाय म्हज्या भावा रामा.. देवा रामा रामा भगवंता देवा.. रामा म्हज्या भावा अशे कशे म्हण जालें रे देवा.. कोणीन रे चांडाळान तूका रेल्वेत वचपाची बूध्द दिली... कोण रे तो पाडो, चांडाळ, हलकट तूका मुंबय धाडपी.. ताका हांव फारान मारुन ताचेर वोम्ब घालून दाण्यांनी मारपी. म्हाका ओळखना तो.

पात्रांव: मामा ही सुंदरी कोण? इतल्या दिसांनी आयज रडपाक आयल्यां? (*रामा लाडीकपणान पात्रांवाकडे पळयता*)

मामा : पात्रांव ही रामाची बापूलबयण.

पात्रांव: बापूलबयण? पूण सख्खी बयण कशी दिसता. पूण रडपाक येवपाक इतलो उशीर कित्याक केलो तर? (*रामा परत लाडान, पात्रांवाक मुसको मारता. पात्रांव घायल जाता*)

रामा : हांव सांगता.. म्हाका हांगा येवपाक कित्याक उशीर जालो तो (*रडटा*) म्हजो भावाचो रेल्वे बॉम्ब स्टोफान गोबोर जालो अशी म्हाका जेन्ना खबर समजली. त्यावेळार म्हाका ही गजाल खरी दिसूना.

पात्रांव: म्हाका अजुनिय दिसना.

रामा : हांव सांगता आयकून घेयात न्हय. तूज्या सारख्या राजभिंड सुंदर पुरुषाक अशे मधीच तोण घालप सोबना (*मूसको मारता*)

पात्रांव: सांग तू.. चूक जाली.

रामा : तर जेन्ना म्हजो भाव मेलो अशी म्हाका खबर मेवळी म्हजो विश्वासूच बसना. हांव कसलीच गजाल खात्री करुन घेतल्या बगर खरी मानीना.

पात्रांव: हांवूय तसोच.

रामा : इश्य.. हे बाये किते. इतलो सभ्य सुंदर पुरुष अशे मधीच तोण घालीना.

पात्रांव: सॉरी सांग तू?

रामा : (रडटा) तर, रामा खरोच मेला ओ ना हाची खात्री करुन घेवपा खातीर हांव खंय गेलो न्हय गेली जाणा?

पात्रांव: खंय गेली तू?

रामा : आनी खंय वतली? ज्या जाग्यार रेल्वे बोम्बस्टोफ जाल्लो त्या जाग्यार गेली. आनी थंय वच जाल्यार (रडटा) हाय म्हज्या देवा, म्हजी खात्री जाली कि म्हजो भाव खाप्यानिच मेलो... (रडटा)

पात्रांव: हे पळय रामाच्या बापूल बयणी.

रामा : म्हजे नांव रामी.

पात्रांव: हे पळय रामी. थंय वयताच रामा मेलो म्हण तूजी कशी खात्री जाली मातछे सांगता? ति गजाल म्हाका सामकी उपेगाची आसा.

रामा : तें आता सांगून कितें उपेग? म्हजो भाव गेलो पूण तरीय आसतना रामा मेलो म्हण म्हजी कशी खात्री जाली तें सांगता.

मामा : सांग बाय सांग पात्रावाक सांग...

रामा : तर मुंबय वतना हांवे रामाक ताच्या रक्षणाखातीर एक देवाचो पाशाणी फातर दिल्लो. त्या फातरार हांवें आमच्या देवाचे नांव कोरलेलें. ताणे तो फातर ताच्या सूवाधीन आशिल्ल्या पयश्याचो बेगान पयश्याचे रक्षण करपाखातीर दवरील्लो. तो फातोर म्हाका त्या जाग्यार सापडलो. फातरा कुशीक लासलेले त्या बेगाचे कुडके सापडले. रामाची फाल्स मुदी आनी फाल्स सरपळी सापडली. (रडटा) खाप्यानीच तू कित्याक मेलो रे म्हज्या भावा. सुखा, तू रामाचो आमीक तेन्ना ही फाल्स मूदी आनी सरपळी दवर तूका.

सुखा : नाका तुकाच दवर तू....

रामा : हाय म्हज्या देवा आता हांव किते म्हण करुं रे देवा.. आता म्हाका त्या राक्षेसा सांवन कोण वाटायतलो रे देवा.

पात्रांव: कोण राक्षेस?

सुखा : पात्रांव, हो राक्षेस. हिचो घोव. हिका मार मार मारता. रामाकूच मातसो भियेतलो तो. रामा खातीरुच हीचो मार वाटावतलो.

रामा : (*रडटा*) हाय म्हज्या देवा.. म्हाका खूपच त्रास करतलो तो आता. म्हाका तो मार मार मारतलो. हाय म्हज्या रामा.

पात्रांव: आता तू रामाक रडटा काय मारांक रडटा?

रामा : हांव दोघांकुय रडटा. मामा. आता हांव खंय म्हण वचू? कोण म्हाका आधार दितालो? हांव आता सामकें एकटें एकटें जालें रे रामा. या मामाक तो भियेंना रे रामा. हाय म्हज्या भावा..ऽऽ.. आता म्हाका म्हजो घोव जितेंच लासून जितोच पूरतलो

पात्रांव: (*मामाक कुशीक आफवोन*) हांगा यो सांगता. पळय मामा तूज्या भाचयेक सांग हांव आधार दिता म्हण. म्हाका म्हण कोण आसा? बायल मेल्यार बारा वर्सा बारा मयने बारा दिस जाले. चल सांग तिका हांव आसतना कांयच भियो नाका म्हण.

मामा : सांगता. बाय हांव आसतना तू कांयच भियो नाका.

पात्रांव: आरे मामा. तू न्हय रे हांव सांग.

मामा : तूच सांग.

पात्रांव: हे पळय या मामाचे भाचये.

रामा : म्हजें नांव रामी.

पात्रांव: रामी. तू कांयच भियो नाका. तूका आधार हांव दितां. तूका रावपाक, जोवपाक, खावपाक, नेसपाक हांव दितां. पूण त्या बदला म्हजी मातशी सेवा करची पडटली. म्हजें केर घेवपी घरान कोण ना.

रामा : म्हाका मान्य. तूजे उपकार हांव कशें फारीक करुं?

पात्रांव: नाका कशेच फारीक करुं नाका हांवूच तूकां फारीक करतां.

रामा : बरें आसा. पूण हांवे रामाक एक वचन दिल्ले पुराय करपाक जाय. त्या उपरान तूमची सेवा करपाक हांव मेकळें.

पात्रांव: इतलेच न्हय. कर पूराय तूजे वचन. सांग कसले वचन दिलां तूवें रामाक?

रामा : हांवें रामाक वचन दिल्लें कि सदांच चान्न्याक मेळून ताची वासपूस करतलें म्हण.

पात्रांव: हें वचन तूवें ताका केन्ना दिल्ले.

रामा : मुंबय बयच्या पयली. तेन्ना पात्रांव, हांव हांगाच मामागेर रावून आनी सदाच चान्न्याच्या सहवासात रावता आनी म्हज्या भावाक दिल्ले वचन पूराय करता.

पात्रांव: मामागेर रावून सदांच चान्न्याक मेळोन वचन पूराय करता? आनी म्हजी सेवा केन्नाक तर?

रामा : पात्रांव, सदांच हाचो अर्थ सबंध वेळ असो जायना न्हय? चोवीस वरां तूज्या सहवासात, चोवीस वरां चान्न्याच्या सहवासात.

पात्रांव: मामा दिसाक कितलीं वरां आसता रे? दिस व्हडले जाले?

रामा : पात्रांव एक दिस तूज्या सहवासात, एक दिस ताच्या सहवासात.

पात्रांव: पूण रमी... (*इतल्यान चान्ने दुःखान प्रवेश करता*)

मामा : (*अजापान*) आरे बाय चान्न्या तू? यो..यो.. अशें अकस्मात कित्याक आयलां बाय तू?

चान्ने : (*रडटा*) मामा हांव तूमचो कायमचो निरोप घेवपाक आयलां. मामा आयज आमी पयस ..पयस..पयस.. वता.

मामा : कित्याक गो बाय?

चान्ने : मामा, रामा भेकडायता आजनेरी करता म्हण. आमचो बाबा सामको मळयार सामकोच चड भियोल्लो आसा. माडाक तो सामको कडकडट्टा. दोतोरान सांगलां तो आनी चड भियत जाल्यार हार्ट ॲटेक येवन पिसो जातलो आनी रोकडोच पन्नास वर्सानी मरतलो म्हण. आनी रामा केन्ना ताका भेकडायत

सांगू न्हजो. मामा बाबा मरत जाल्यार म्हाका कोणाचो आधार? कोण म्हाका आधार दितलो? (*रडटा*)

पात्रांव: हांवे या रामीक उतर दिलां.

चान्ने : तूजो आधार नाका म्हाका.

रामा : (*रागान पात्रांवाक धोंगसीता*)

चान्ने : रामाय ना. आसा तें ताचे भूत. ताचो म्हाका चड त्रास जातलो.

मामा : पूण बाय वयता तरी खंय तूमी?

चान्ने : खूप पयस मामा...

रामा : खूप पयस मळयार खंय? हांव पावचोना? पावचीना थंय?

चान्ने : मामा ही कोण?

मामा : ही म्हजी भाची पाचारुंक आयल्या.

रामा : पूण बाय तू वयता खंयच्या गावांत?

चान्ने : आमी गांवात वचना. आमी दूसऱ्या देशात वयंता. पाकिस्तानान. पाकिस्तानान बाबाचो आमीक रावता. ताणे थंय आफयल्या आमकां. हांगा रामाची भिरांत. थंय भूताची भिरांत ना अशें घाडयान सांगला.

मामा : पूण बाय रामाचें भूत थंय येवपाक शकनां?

चान्ने : ना. मामा घाडयान सांगलां पाकीस्तान या देशाक भूतां लागना म्हण. पाकिस्तानांक भूता भियेता?

मामा : हे तो घाडी कित्या वरसून सांगता?

चान्ने : कित्यावरसून? घाडी सांगता पाकीस्तानी अतीरेकी लाखांनी लोकांचो बळी घेता. हत्या करता, इतल्या लोकांक ते जिते मारता पूण तांका एकल्याय भूताची तांका बाधा जायना. फकत कोयतो घेवन म्हजो बाबा रामाच्या फाटीक लागलो म्हण रामा भूत जांवन म्हज्या बाबाच्या फाटीक लागलें पूण बॉम्ब घालतल्यांच्या फाटीक रामाचे भूत लागूना हाचोच अर्थ पाकीस्तानाक भूतां भिता. बरे मामा आयज सांजवेळा वता आमी.

रामा : चान्न्या हांवे तूज्या रामाक वचन दिल्लें कि तूज्या सहवासा
रावून हांव तूजें रक्षण करतलीं म्हण.

चान्ने : पूण आता तोच रामा भूत जांवन आमकां मारपाक करत

रामा : चान्न्या हांव रामाच्या भूताकडल्यान वचन घेता. तूका त्रा
न दिवपाचे.

चान्ने : तायी म्हजी फकणां करु नाका.. वता हांव.

रामा : आयक.. चान्न्या आयक. आमच्या गावान एक महाभयंक
घाडी आसा. तो सांगता जे कोण भारतीय भूता पासून रक्ष
करपा खातीर पाकिस्तानान वचपाची तयारी करता त्या मनश्या
ति भूतां वाटेरुच आडायता. पळयात रामाक समजलांच
आसतले तूमी पाकिस्तानाक वता म्हण तेन्ना तूमका तें
रेल्वेस्टेशनारुच आडायतलो. म्हाका सांग तूमकां ट्रेन केन्ना आसा

चान्ने : (*भियेवन*) सांजवेळा 'स' वरांक.

रामा : आता फकत सकाळची णव जाता थंयच आसा. तो रेल्वेस्टेशना
वचून रावलां आसतलो तूमची वाट पळयत.

चान्ने : (*सामके भियेता*) आवूयस ताई तू हें कितें उलयता? म्हाव
कडकडो सूटलो. रामा रामा तू इतलो चांडाळ कसो म्हा
जालो रे?

पात्रांवः आगो चान्न्या. म्हाका रामाच्या भूताक पळोवपाचें आस
हांव येतां तूमच्या बरोबर रेल्वे स्टेशनार. चला तूमी पाकिस्तानां
म्हांकाय भूता भिता. पयली हांव पाकिस्तानांकूच आसतालो

चान्ने : खय्यानीच पात्रांव देवासारखे पावले तूमी आमच्या सांगाता
तूमी पाकिस्तानाक आसतले म्हण्टकूच रामाचे भूत तूमव
निश्चीतूच भियेंतलें. पात्रांव खाय्यानिच येता न्हय तूमी आमच्य
बरोबर.

पात्रांवः हय खाय्यानिच येता. तू पाकिस्तानाक वचत जाल्यार म्हाक
फायदो आसा. आगो चान्न्या भूतां खेतां कायंच ना. घार्ड
बिडी सगळे फट. बेश्टोच भास जाता तो मनश्यांक.

चान्ने : थंक्यू पात्रांव. तूवेन आमकां धीर दिलो. पात्रांव आमी बरोबरु

या स्टेशनार. वता हांव ही गजाल बाबाक सांगता. (*वयता*)

पात्रांव: अवश्य. (*चान्ने आपली पर्स विसरुन वता.*)

रामा : (*रडटा*) हाय म्हज्या देवा.. आरे सुखा.. कसली म्हण आयडिया दिले रे मूर्खा सूखा. म्हजें सूख वयता मरे पाकिस्तानान.

पात्रांव: रमी रडू नाका तूजे सूख खंयच वचना. हांव फकत ताका रेल्वेस्टेशनार सोडून येता. तू कांयच भियो नाका. म्हाका त्या रामाच्या भूताक पळोवपाचे आसा. तूका सोडून हांव खंयच वचना.

रामा : (*रडटा*) पात्रांव हांव तूका जाय न्हय?

पात्रांव: हें तूजें विचारप जालें? बारा वर्सां हांवे एकाकी जिवीत घालयलें. जिवीत फूलपाची आस निर्माण जाल्या. जगन से दिसता.

रामा : तर म्हजें एकूच काम करात. चान्न्याक पाकिस्तानान वचपाक दिंव नाका.

पात्रांव: पूण कित्याक? ताचो वचपाचो आनी तूजो कितें संबंध?

रामा : संबंध कांयच ना. पूण म्हज्या भावाची प्रेमीका ती. रामान मुंबय वतना ताका कांय वस्तू दिवपाक म्हजेकडे दिल्ल्यो त्यो वस्तू चान्न्याक कशेय भर्षेन दिवपाक जाय. त्यो वस्तू चान्न्याक दिना जायत जाल्यार हांव सामकें दुःखी जातलें. म्हजे मन म्हाका खातलें.

पात्रांव: इतलेच न्हय. हाड त्यो वस्तू हांव दिता ताचेकडे.

रामा : त्यो वस्तू घरा उल्ल्यो.

पात्रांव: इतलेच न्हय. चल या घरा. घेंवन येवया. म्हजी गाडी तयार आसा.

रामा : ना पात्रांव. आयज तें शक्य ना. आयज म्हजो घोव आसतलो घरा. हांव घरा वयताच तो म्हाका धरतोलो सोडचोना. मागीर तूजी सेवा हांव कशी करुं?आनीक चार दिसानी या. आनीक चार दिसांनी तो नायटीक. (*रडटा*)

पात्रांव: रडो नाका. आनीक चार दिस हांव तांका कसोच वचपाक

दिना. तू कांयच भियो नाका. हो पळय आताच वयता. आनी आडयता ताका. आनीक चार दिसा उपरान या म्हण सांगता. ताका म्हजें आयकूचेंच पडटलें. (*पात्रांव नेटान वयता*)

**रामा** : छी.. छी.. आरे सूखा तूजी ही आयडिया म्हाका परती भल्ली.. नाका म्हाका ही आयडिया. हांव सोडटा साडी. (*साडी सोडपाक भितर वता*)

**सुखा** : आरे रामा आयक रे?

**मामा** : सुखा, तू आतां ताका कांयच सांगू नाका. करुनी ताका किते करता तें. आता कितें जाता तें जावनी. तू कांयच सांगू नाका.

**सुखा** : हांव आनी कितें सांगतलो? कितें सांगचें कांयच सूचना. आनी कितें करचें त्येंय सूचना. मामा हांव वयतां तकली सामकीच बेजार जाली.

**मामा** : छे.. म्हजीय तकली सामकीच बेजार जाली. आमकां पयशे पचत शे दिसना.

**सुखा** : आनी म्हाका रामाक चान्ने मेळत शें दिसना.... मामा म्हाका दिसता रामा मेलो उल्लो एकूच. मामा आतां हांव एक आयडिया करता. करुं?

**मामा** : नाका.

**सुखा** : नाका किते? राव हांव किते सांगता ते आयक. मामा आता कितें करुया जाणा?

**मामा** : नकळों.

**सुखा** : (*रागान*) नकळों कित्यें? आयक सांगता. हांव आताच विठूक मेळटा आनी सगळी सारखी खरी गजाल सांगता.

**मामा** : आ.. आता कसो उलयलो. म्हाकाय हेंच जाय आशिल्लें. हांवे लेगीत ताका सगळें सांगपाची ट्राय केल्ली. पूण जमलेना.

**सुखा** : तूवें ती गजाल योग्य वेळार आनी योग्य जाग्यार सांगूना आसतली. हांव तांका एकोडो मेळोन सारखी सगळी गजाल समजावोन सांगता.

मामा : सारखे. आमी अशेंच करपाचें. विठू सामको पयश्यांचो आशेचो. पयश्यांची आस दाखयत जाल्यार रामा जितो आसा ही गजाल गुपीत दवरपाक रोकडोच तयार जातलो. चल विठूक सांग तू ही गजाल. चल आताच चल. तो आनी वचत पाकिस्तानाक.

सुखा : हो पळय धावलो. (*धांवून वता. मामाची पर्सीचेर नजर वता*)

मामा : आयस सायबा हे चान्न्ये आनी पर्स विसरुन गेलें. (*भितर वता. रामा साडी सोडून भायर येता.*)

रामा : नाका म्हाका ही आयडिया. (*चान्ने प्रवेश करता. रामाची चान्याक फाट आसता.*) मामा म्हाका चान्ने जायच. ताका हांव पाकिस्तानाक कशेच वचूंक दिना. ताका आताच वचून धरता. (*चान्ने किंळच मारुन भूत भूत म्हण धांवता.*)

## काळोख

## देखावो दुसरो

*(मामा, सुखा हांचे उलोवप चालू आसा)*

विठू : तर ही गजाल अशी आसा तर. शि.. हांवेन कितले भियेवन दिस काडले जाणा? घाडयाक कितले पयशे खावयले, हाचो हिशोब ना. शि..शि.. आरे मामा ही गजाल तूका पयलिंच सांगपाक किंते जाताले?

मामा : तू मानपाक तयार आशिल्लो? व्हय? (*रामा प्रवेश करता. विठू भियेवन दचकता*)

विठू : ना रे बेष्टोच दचकूपाक जाता. आरे रामा तूवें तरी सांगपाचे न्हय?

रामा : हांव सांगपाक तू म्हजें झळकेक तरी रावतालो? हांव दिसताच तू शुट. फाटी वळून तरी पळयतालो?

मामा : आता जालें तें जांव. आता पळय विठू बाब सत्य तूज्यामुखार आयलां. रामा आता गरीब उरुना विस लाख पन्नास हजाराचो मालक आसा. तेन्ना तू चान्याचे लगीन या रामाकडे लावंन दी. लग्नाचो सगळो खर्च रामा करतलो. आनी तूका आमी पांच लाख हुंडो दिता. पूण रामा जितो आसा ही खबर भायर फुटपाक जायना.

विठू : ते सगळें बरें आसा. रामाक मेल्लोच आसूनी. पूण फकत पाचूंच लाख हुंडो? कमी जालो ना?

रामा : दाय म्हाका सांग हुंडो कोणे दिवप? कोणाच्या बापायन? तूवें आमका दिवप न्हय?

विठू : आरे अरब लोक चलयेक हुंडो दिता. लाखांनी दिता.

रामा : दाय, तू अरब?

विठू : (*रागान*) चूप. हे पयशे तूमकां आयते मेयळया गतीन दवरात.

मामा : आयते जाले म्हण पयशे न्हय ते? विठूबाब तू सांग किंतें ते ना जाल्यार हे पयशे व्हरता आनी पात्रांवाक दिता. प्रश्न मिटलो. म्हाका भानघडीच नाका. म्हजी तकली चड चड

बेजार जायत आसा.

वेठू : बेजार कित्याक जाता? आनी कितेंय वाडेय मरे.

मामा : बरें आसा. आनीक "धा" रुपया सुबेत दिता.

रामा : मामा "धा" रुपयाक आतां वालोर आसा. आनी विस रुपयातरी सुबेत दिवया.

मामा : हय आनीक विस रुपया सुबेज दिता. सांग आताच कितें तें?

सुखा : विठू बाबा मातशें चितून पळय. वकलकार लग्नाचो सगळो खर्च करता. वैल्यान तूका पांच लाख हुंडो दिता. इतलो भाग्यवान खंयचोच वकलेचो बापूय आसपाक शकना. तू अरब न्हय समजलो. तूवें जरी कितलोय श्रीमंत जांवूय केलो जाल्यार लग्नाचो लाखांनी खर्च तूका चूकचोना. खंयचोच जांवूय तूका पांच लाख न्हय पांच पयशे दिवचोना. वैल्यान तूजेकडल्यान घेतलो समजलो? चितून पळय.

विठू : चितलें. बरें आसा ठरलें हांव तयार आसा. म्हाका पांच लाख विस रुपया हुंडो तूमी दिवपाचो.

रामा : दिलो.

विठू : खंय रे दिलो?

रामा : दिता. तू तयारी कर..

विठू : जालें ठरलें. लगीन गुपीतपणान करपाचे उपरान तांका थोडो तेप पयस धाडपाची. फुडलें फुडें थारावपाचें. चल हांव आताच भटागेर वचून येता.

सुखा : विठू बाब फाल्यां रातच्या आठांक मुहुर्त आसा. भैरवाच्या देवळांत. भटूय आसा. फाल्यांच लगीन करुन उडवया.

विठू : बरे हांव आताच वयता. तयारी करपाक (*वयंता*)

रामा : मामा, मामा हांव जिकलो. चान्नेय म्हजे. पयशेय म्हजे. मेल्यारुय म्हजें, जितो आसल्यारुय म्हजेंच. वावा.. आता हांव मेलो उल्लो एकूच (*इतल्यान विठू धावत येता.*)

विठू : रामा नेस नेस पात्रांव येता.. हांव वता (*विठू वता. रामा भितर धावता. पात्रांव येता*)

पात्रांव: रामी ओ रामी.. मामा रामी खंय गेली? प्रिये रामी?

मामा : आसा भितर आसा. कित्याक पात्रांव? आयज सामको नेटान पूण बेचैन सो दिसता.

पात्रांव: आयज हांव ठाम निर्णय करुन आयला कि रामीक म्हजी जिवीताची कायमची साथीदारीण करतलों म्हण. हांव रामीकडे कायदेशीर शास्त्रेक्त पद्तीन लगीन जातां.

मामा : पूण पात्रांव हों निर्णय तूमी अकस्मात सो घेतलो?

पात्रांव: कित्याक घेतलो? आरे तो विठू आयज काल हांगा चडूच पासयो मारपाक लागला. म्हाका खात्री आसा कि म्हज्या रामीचेर ताचो दोळो आसा. तो तिका फारावपाक चित्ता. रामीक लागून रामाच्या भूताक लेगीत भियेनासताना तो हांगा येता. काल ताका हांवे पाकिस्तानान पांयता सांगलें. पूण हो कसोच वचपाक तयार ना. आता भूतांक भियेना खंय तो, हे सगळें तो रामी खातीर करता. हातून इल्लोय दुबाव ना. ही गजाल म्हाका मारग पडटली. तेन्नां हांव जाता तितक्या बेगीन रामीकडे लगीन जांवन मोकळो जाता. मागीर विठूक मारुनी बोब. रामी खंय आसा.. रामी.. प्रिये रामी?

मामा : पात्रांव न्हावपाक गेल्या ति.

पात्रांव: हांव मेळटा तिका. (*भितर वचपाक करता*)

मामा : पात्रांव राव न्हावनी तिका.

पात्रांव: आतां हांवे निर्णय घेतला रामीकडे डायरेक्ट लगीन जावपा. म्हाका एकसूरपणाचो सामको वीट आयला. पयसो आसून चोरयां सूख घेंवचे पडटा. देस्पेद करुन रेस्पेद ना जाता. बदनामी जाता. तो विठू रामीक फारायत जाल्यार.. शि.. चितूनूच तकली मेड जाता. रामी ओ रामी.. प्रिये रामी?

रामा : आयलें पात्रांव. (*भायर प्रवेश करता.*) पात्रांव कितें?

पात्रांव: रामी आमचे वियोगाचे दिस आमी सपवया. आमी आता मनान, शरीरान एकटांय जांवया. हांवे भटागेर वचून आमच्या

लग्नाचो मुहुर्त काडला. फाल्यां रातच्या आठांक मुहुर्त आसा. त्या भैरवाच्या देवळांत आमी फाल्यां लगीन जावपाची तू तयारीत राव. आयज हांव सगळी तयारी करता. आनी मामा त्या विठूक निदान आयज आनी फाल्यांतरी हांगा घेंव नाका. (*वता*)

सुखा : रामा, जाण्टेपणी बायलांचे पिशे लागील्ले मनीस सामके माथेफिरु आसता. मातसो ताका सामाळ.

रामा : ताका सामाळू. पयलीं म्हाका सांग फाल्या हांवें कोणाकडे लगीन जावपाचे? पात्रांवाकडे कांय चान्न्याकडे? (*विठू प्रवेश करता.*)

सुखा : विठू बाब यो ..यो.. आता पात्रांवान कितें सांगलां खबर आसा?

विठू : हय. हांवे भायर आडसाक रावून सगळें आयकलें. आता कितें करचें कांयच सूचना.

सुखा : विठू बाब, म्हाका दिसता तूजे पांच लाख विस रुपया गेले. वैल्यान तूका आता चलयेच्या लग्नाचो खर्च आयलोच.

विठू : **मामा**.... आमी अशे करुया, फाल्या **सकाळी** एक मुहुर्त आसा. सामको आठपाचांक. त्याच भैरवाच्या देवळांत. हांव आता भटाकडे वचून फाल्या सकाळचो मुहुर्त थारावन येता. **तूमी** सामके तयारीत रावात. फाल्या सकाळीं हांव तयारीत येतां. म्हजे पांच लाख विस रुपया पयलीं म्हजेकडे दियात. उपरान देवळांत या आनी लगीन लावन मोकळें जावया. बरे हांव वता फुडली तयारी करपाक. लक्ष्यान दवरात सकाळी आठ पांच. (*वयता*)

रामा : देवा आता तरी कांयच विघ्ना येयना जाल्यार पूरो. (*इतल्यान पात्रांव रागान प्रवेश करता*)

पात्रांव : (*रागान*) मामा म्हाका सांग हो विठू परतूय कित्याक आयील्लो?

सांग? रामी तू सांग... तो तूका ट्राय करता ओ ना..? म्हाका पूराय खात्री आसा आमी दोघांय लगीन जावपाची आसा हे ताणे भायर रावून आयकला. आता तो आमच्या लग्नाक खात्रीन अडचणी हाडटलोच. हांवे भायर रावून मातछें आयकलां की तो तूका लग्नाची ऑफर दिता.

रामा : पात्रांव ना तूज्या बगर हांव कोणाच कडे लगीन जांवचीना. तूकां हांन उतर दिता.

पात्रांव: तूजे मन केन्ना बदलत सांगू नजो. बायलाचे चारीत्र ब्रम्हदेवाक लेगीत कळलेना. असे म्हण्टा. तेन्ना म्हाका कसलीच रीस्क घेवपाची ना. आमी फाल्या सकाळीच लगीन जावपाची. फाल्या आठपाचांक एक मुहुर्त आसा. फाल्या सकाळी हांव येता. तू तयारीत राव. आमी भैरवाच्या देवळांत वचून लगीन जावपाची.

रामा : पात्रांव फाल्या सकाळी खूप उशीर जातलो आताच लगीन जावया. चल या आताच..

पात्रांव: शाब्बास म्हाकाय हेच जाय आशिल्लें. हाचो अर्थ असो जालो कि तू खाप्यानिच म्हजेरुच मोग करता. तो विठू सोठो. बरें तर लगीन पोस्पोंड, आनीक चार दिसांनी मोठया दबाज्यान करुया. सगळयां सोयऱ्या दायऱ्यांक सांगूया. बरे तर वतां हांव. बाबडो विठू प्रेम भंगान जिव दितलो. (*मोठ्यान हांसत वयता. विठू लीपत प्रवेश करता.*)

विठू : मामा हांवे सगळें आयकलें लीपून रावून. हे पळय पात्रवान लगीन पोस्पोंड केले म्हण आमी लगीन पोस्पोंड करचें न्हय. आमी फाल्या सकाळीच लगीन करुन मोकळें जावया.

रामा : हय..हय.. विठू दाय. सारखें उलयलो तू... हांव साडी सोडटां.

मामा : नाका येन्ना सोडू नाका. पात्रांव परतो येत.

काळोख.

## देखावो तिसरो

(*रामा, सुखा, मामा विठूची वाट पळयता. रामा बाशींग बानून आसा.*)

रामा : (*बेचैन जांवन पासयो मारता*) सूखा विठू चान्याक घेवन सामको सकाळी फातोडेर येता म्हण सांगून गेल्लो मरे. सात जायत आयली. अजून हाचो पतो ना. विचार बदलूना मरे? हांव धडयार पडटा दिसता.

मामा : आरे बाबा तयारी जांव नाका. मातसो धिर धर. (*विठू चान्याक घेंवन प्रवेश करता*)

रामा : (*सामको आबूज जांवन*) आयलो. आयले मामा चल या... विठू दाय या चल..

विठू : या खंयचे?

रामा : मळयार लगीन पोस्पोंड? काय नेगार वयता?

विठू : ना पयलीं म्हजे पांच लाख विस रुपया म्हज्या हातान दी.

रामा : विस रुपया म्हज्या बोलसान आसा हे विस रुपया घे लगीन जातकूच पांच लांख दिता.

विठू : (*रागान*) लगीन कॅन्सल करु?

रामा : मामा चल या पयशांचे बेग घेवन यो. चल खंय दवरला रे?

मामा : राव घेंवन येता. हांवें ते मोदेराच्या खोपीन लाकडाच्या घुश्यान पूरुन दवरलां (*हाडपाक वता*)

विठू : रामा, पांच लाख विस रुपया वयर कितेंय मेळटा जाल्यार पळेय मरे? आलायतें पयशे ते.

रामा : छे... छे.. फिक्स रेट. पांच लाख विस रुपया.

विठू : म्हाका सांग मामान ते बेग सारखे दवरला मरे? पयशे मोडूनामरे? या दिसानी तूमी भरपूर खर्च करता म्हण विचारता.

रामा : सांगता दोन बेगा ती एक पन्नास हजारांचे, एक विस लाखंचे. मामान आनी हांवे फकत पन्नास हजारांचे बेग

उघडून खर्च केल्या. विस लाखंचे बेग सामके सिलपॅक आसा. पात्रावांन तशेंच पॅक करुन दिल्ले तें. त्या बेगाक मामान हात लेगीत लावना.

विठू : हात लेगीत लावनां? घुश्यान कशें पुरुन दवरलें तर पांयान?

रामा : हात लावना म्हळयार ताणे ते बेग उघडूना. पात्रांव बेग पॅक करुन दिल्ले तशेच आसा.

विठू : आ.. .. अशें. (*इतल्यान मामा बेग घेवन येता. त्याच वेळार पात्रांव भितर सरता. सगळे आबुज जाता*)

पात्रांव: चोरांनो तर बेग हांगा आसा तर? आनी रामा तूंय जितो आसा. म्हजो दूबाव खरो ठरलो तर. आरे रामा म्हाका तूजो दुबाव आसलोच तू जीतो आसा म्हण. पूण जेन्ना तूजे भूत विठूक आनी चान्याक भेकडावपाक लागलें तेन्ना म्हाका खात्री जाली कि जीतो आसा म्हण. हांव तूमचे पाळतीर आशिल्लो. म्हाका या बेगाचो शोध लागपाक जाय म्हण हांवे ही सगळीं नाटकां केली. रामा हांव तूजी साडी सोडून घेवपाचो पूण म्हाका बेग मेळपाची शक्यता नाशिल्ली, कित्याक तर बेग शेणले म्हण सांगल्यार हांव कांयच करपाक शकचोना आशिल्लो.

रामा : आरे देवा... बेग शेणलें म्हण सांगल्यार म्हाका पचपाचें तर.

पात्रांव: चूप. चोरांनो म्हाका फटयता? नाडपाक करता. आता तूमकां सगळयांक म्हजी फसवणूक केल्या बद्दल फसवणूकीचें ४२० कलम लायता आनी भितर उडयता.

रामा : (*रडटा*) नाका पात्रांव नाका. आमकां पुलीशेंत भितर घालू नाका आमका गुन्याव भोगोस. हें घेयात तूमचें हें बेग घेयात.

पात्रांव: आनी पन्नास हजार?

मामा : हांव सांगता पात्रांव ते पन्नास हजारातले विस हजार या लग्नाची तयारी करपाक खर्च केले. थोडे रिण फारीक करपाक मोडले. थोडे बाकी आसा ते मागीर दिता.

रामा : विठू दाय. तूका पाच लाख विस रुपया मागीर दिता.

विठू : (*रागान*) चान्न्या चल या आनी हे लगीन आता कशेंच शक्य ना.

चान्ने : बाबा. म्हजी काकूट कर. हांव रामा बगर जगपाक शकना.

रामा : विठू दाय, हांव तूमच्या पायें पडटा. आमकां समजोन घे. केदोळ म्हजी परीस्थिती पयशेय मेळटा आनी चान्नेय मेळटा अशी आशिल्ली. आता परीस्थीती चान्नेय ना आनी पयशेय ना अशी जाल्या. आमची काकुट कर विठू दाय. अशे करु नाका.

विठू : अशें करु नाका जाल्यार केल्लो सौदो पूराय कर. सांगल्या प्रमाणे म्हाका पांच लाख विस हजार दी.

रामा : पात्रांव तू तरी आमची काकुट कर. हो विठू कसोच आयकूपी मनीस न्हय.या बेगातले पांच लाख हांव या विठूक दिता. उपरान तूजे हांव फारीक करता. हांव तूमच्या फक्टरीत फुकट काम करता.

विठू : किते फूकट काम करतलो? मागीर या चान्न्याक कसो पोसतलो? आनी पात्रांव पांच लाख कित्याक दितालो?

विठू : चल चान्न्या या आमी हे लगीन कशेच शक्य ना. म्हाका पांच लाख विस रुपया खंयचे विस रुपया न्हय विस पयशे लेगीत मेळपाची शक्यता ना... चल या.

चान्ने : बाबा नाका..ऽऽ..

रामा : पात्रांव आमची काकुट कर.

मामा : हय पात्रांव त्या पोरांची काकुट कर. पांच लाख त्या विठूक दी. हांवूय तूमचे फूकट काम करुन पयशे फारीक करता.

विठू : आगो चान्न्या तू रावता कित्याक चल यो..या आमी हांका पांच लाख दिवपाक पात्रांव पीसो न्हय. हे लगीन उल्लें.

चान्ने : बाबा. अशें किते करता? हांव रामा बगर आनी कोणाचकडे लगीन जावचेना. बाबा म्हाका रामाच जाय. या रामा शिवाय हांव जगपाक शकना. दुसऱ्याकडे लगीन जावच्या परस हांव जिव दिवपी.

विठू : तू जिव दिल्यार जाता. मरना जालें म्हण्टकूच जालें. जंय जंय तू जिव दिवपाक वतलें थंय थंय येंवन तूजो हांव जिव वाटायतलो.

रामा : ना विठू दाय सदांच तू ताचो जिव वाटोवपाक शकचोना.

विठू : चूप. चान्ने मेल्यार जाता पूण ताचे लगीन हांव तूजेकडे करुन दिवपाक तयार ना.

मामा : विठू बाब. ताच्या फुडाराचो मातसो तरी विचार कर.

विठू : म्हज्या फुडाराचो विचार कोण करतलो? पांच लाख विस रुपया तूमी म्हाका दिता जायत जाल्यार हांव ताच्या फुडाराचो विचार करता.

रामा : पात्रांव. याच बेगातले पाच लाख दियात. खरे मळयार पात्रांव या बेगाचेर तूमचो अधीकार ना.

पात्रांव: आब्बा म्हजो अधीकार ना? तो कसो?

रामा : पळय पात्रांव तूमी दिल्या तिकेटीन जर हांवे प्रवास केल्लो जाल्यार हे बेग तूमकां मेळपाचे? म्हाका तूमी म्हज्या मरणांक तिकेट दिल्ली. पूण म्हज्या हुशारकायेन हांवे हे पयशेय वाटयले आनी म्हजो स्वःताचो जीवूय वाटायलो.

सुखा : सारखे. पात्रांव. सागांत पात्रांव तूमी दिल्ल्या तिकेटीन जर हो रामा मुंबय वचपाक गेल्लो. आनी मेल्लो जाल्यार. तूमी रामाचे इन्सूरन्स मामाक फारीक करपाचे? सांगात तूमचे पयशे तूमका मेळपाचे?

रामा : पात्रांव हांवेन स्वतः म्हजो जिव वाटायला. आनी हे पयशे जे तूमका केन्नाच आनी कशेंच मेळपाक शक्य नाशिल्ले. ते हांवे तूमका दिल्या. (*पात्रांव गंभीर जाता*)

पात्रांव: बरोबर आसा तूमचे म्हणणे, पळोवपाक गेल्यार हे पयश्यांचो गोबोर जाला. पूण म्हाका पन्नास हजारांचे लूकसान जाला. तेन्ना म्हाका पन्नास हजार दियात आनी ते बेग व्हरात.

रामा : पन्नासूच हजार न्हय पात्रांव आताच दिता दी ते बेग म्हाका.

पात्रांव: नाका या बेगातली एक लेगीत नोट म्हाका नाका. या

बेगातल्या एका लेगीत नोटीक म्हका स्पर्श करपाचो ना. तशे पळोवपाक गेल्यार त्या बेगातल्या पयश्यांचो म्हाका कांयच उपेग जावपाचो ना. तेन्ना जाका कोणाक हे बेग जाय ताणे म्हाका पन्नास हजार दिंवन हे बेग वरचे.

रामा : आवूयस. खाश्यानिच पात्रांव. मामा पन्नास हजारातले कितके उल्या तूजेकडे?

मामा : अठरा रुपया.

रामा : पात्रांव आता अठरा रुपया दिता आनी बाकीचे फाल्या दितां.

पात्रांव: नाका. फाल्या तूमी खंयचे दितले? याच बेगातले पयशे दितले. ज्या पयश्यांक म्हाका स्पर्श लेगीत करपाचो ना, आनी जाचो हांव आता कांयच दपयोग करपाक शकचोना. म्हाका केश जाय तेय भी आताच. ना जाल्यार सांगात हांव वयता बेग घेवन.

सुखा : पात्रांव सांगता म्हण रागार जांव नाका. तूमची ही आयडिया आसा. तूमका खबर आसा इतली रक्कम हांगा कोणाचकडे आसपाक शकना म्हण.

पात्रांव: (*रागान*) चूप. तू म्हाका ओळखता? तूका हांव फटींग दिसलो आ... आरे हांव उतराचो मनीस. उतर मळयार उतर. मेल्यार लेगीत उतर बदलपी न्हय. म्हाका या विस लाख नोटीचे केरुच ना. म्हाका कांयच उपयोग ना त्या नोटींचो. म्हाका भूरगी बाळा कोण ना. तूमच्या भुरग्याबाळांखातीर तूमकाच गरज या नोटींची दियात पन्नास हजार आनी व्हरात ते विस लाखांच्यो करकरीत नोटी आशिल्ल्यें बेग.

विठू : तर पात्रांव आता म्हजी खात्री जाली की तूमी हे खाश्यानीच सांगता. तर पात्रांव ते बेग म्हजे जालेंच म्हंण समज.

पात्रांव: कितें तूजेकडे आसा पन्नास हजार?

विठू : (*मोठ्यान हांसता*) पन्नास हजार? म्हजेकडे सध्या म्हज्या बोलसात एक लाख रुपया केश आसा. या रामाक भियेवन पाकिस्तानाक वचपाक बॅंकितल्यान काडिल्ले. आनी आयज

ते परत डेपोजीट करपाखातीर बोलसात दवरील्ले. पात्रांव
हे घे पन्नास हजार. (*पन्नास हजार दिता*) चान्न्या चल य
आता आमी. तूका हांव बरो श्रीमंत नवरो पळयता. (*बेग
हातान घेवन वचपाक करता*)

चान्ने : ना म्हाका रामाच जाय.

विठू : ना तूका रामाकडे कशेच लगीन जावपाक मेळचेना. तो आत
पयश्यांनी सामकोच पोको जाला.

मामा : विठू बाब पूण कित्याक जावपाक मेळचेना. रामा आनी चान्ने
एकामेकाचेर मोग करता. ताची काकुट कर.

रामा : विठूदाय अशे करु नाका...

विठू : अशें करु नाका जाल्यार. सांगल्याप्रमाणे पांचलाख विस
रुपया दी.

रामा : मामा उल्ल्या ते अठरा रुपया दी पळोवया. (*मामा दिता*)
पळय विठू दाय उरिल्ले पांच लाख दोन रुपया मागीर दिता.

विठू : चूप. (*कुशीकुच मामाचो कोयतो काडटा*) घालूं धपको..घालू.
.. चान्न्या तू जर शाणपणा करीत जाल्यार तूजेरुय धपको
घालता.. चल या.

पात्रांव: विठू बाब. हे घे तूजे पन्नास हजार नाका म्हाका. तू जर
हाच्या लग्नाक परवानी दिता जाल्यारुच तू ते बेग व्हर ना
जाल्यार ते बेग व्हरता हांव. तूका चड आशा. ताका लगीन
जावपाक दिता जाल्यारुच ते बेग व्हर.

विठू : ना..ना..पात्रांव.. जावनी तांका लगीन म्हजो काय विरोध
ना.. हांव वयता (*बेग घेवन वयता वयता*) तूमी कितलीय
लगनां करात म्हजो कांयच विरोध ना. मामा सांगल्या प्रमाण
म्हाका पांच लाख विस रुपया मागीर दिल्यार उपकारता.
(*वयता*)

रामा : (*पात्रावाच्या पायार घालून घेंवन*) पात्रांव नमस्कार. तूमकांच
लागून आयज आमचें मिलन जाता. आगो चान्न्या तूंय पाये
पड. (*चान्ने पायें पडटा*)

मामा :पात्रांव तूमचे उपकार कशे फारीक करचे कांयच कळना या पोरा खातीर तूवें खूप केलें.

पात्रांव :बरे आसा. या पोरांखातीर हांव आनी एक करता. हे तूमचें लगीन जर कसलेंच विघ्न येना आसतना जर जावपाक जाय जाल्यार आता हांव कितें सांगता तें करात तूमी आताच म्हजे बरोबर येयात हांव, तूमकां म्हज्या प्रावेट गाडयेन गोर्कण व्हरता आनी थंय तूमचें लगीन लांवन दिता.

रामा :पूण पात्रांव इतल्या पयस गोर्कण शें? आता आमका घाई कसली आसा? विठू सुशेगात जालो तेन्ना आमी हे लगीन.सुशेगात करुं येता. मोठया दबाज्यान करुया.

पात्रांव :ना. तूमका जर लगनाक उशीर करीत जाल्यार तूमचे लगीन विठू कसोच करपाक दिवचोना तो कोयतो घेवन परत फाटीक लागतलो.

रामा :(*रडोन*) पूण पात्रांव कित्याक? कित्याक आमच्या लग्नाक परती परती विघ्ना? पात्रांव या वेळार तरी अशें अभद्र उलोव नाका.

पात्रांव :सांगता आयक. विठू ते बेग उघडून त्यो विस लाखाच्यो नोटी पळयातच हांगा रागान धांवून येतालो. तूमचे लगीन आडवोपाक कित्याक तर त्यो नोटी आसा खेळण्यांतल्यो. खोटयो नोटी पसयाचेर भूरग्यांखातीर खेळपाच्यो.

रामा :कितें पात्रांव खेळण्यातल्यो नोटी? भूरग्याबाळा खातीर खेळपाच्यो?

पात्रांव :हय भूरग्यांची खेळणी करपाचो म्हजो धंदो.

सुखा :आता समजले.त्यो नोटी भुरग्यांबाळाखातीर उपकारा पडटल्यो. अशे कित्याक म्हणलें तें?

चान्ने :तशें जाल्यार चला आनीक वेळ नाका. चल या आनी

हांव म्हज्या बाबाक पुराय ओळखता. वचनाबरोब
बेग उघडून नोटी मेजपाक बसतलो. एक वेळ वाटेकू
उघडून पळों आसा.

रामा :हय चल पात्रांव यो या.. आमी...

मामा :चल..चल.... (*सगळी घाई गडबडीत वयता. का*
*खीण म्हजी रीकामी. कांय खिणा उपरान विठू एक*
*हातान कोयतो आनी एका हातान बेग घेंवन दारा*
*उभो जाता.*)

## परडो पडटा